# कुकमादेवीची दिपमाळ

(नाटक)

डॉ. जयंती नायक








**कुकमादेवीची दिपमाळ**
(नाटक)

**डॉ. जयंती नायक**
आमोणें, केपें, गोंय. 403705
फोन : 2662422 (घ)

**प्रकाशन क्र. 10**

**पयली आवृत्ती : 2009**



**छापपी :**
रूतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें, गोंय

**मुखचित्र :**
गौरीश वेर्णेकार

**अक्षर जुळोवणी :**
ज्योती गांवकार

**प्रकाशक :**
अवधूत आमोणकार,
राजाई प्रकाशन,
आमोणें, केपें, गोंय - 403 705

**मोल :** रू. 90/-

**Kukumadevichi Dipmall**
(Drama)

**by Dr. Jayanti Naik**
Amona, Kepem, Goa - 403 705
Ph.No.: 2662422 (R)

**Publication No. 10**

**First Edition: 2009**



**Printer :**
Rutu Offset
Volvoi, Ponda, Goa.

**Cover :**
Gaurish Vernekar

**Typesetting :**
Jyoti Gaonkar

**Publisher :**
Avadhut Amonkar,
Rajaee Prakashan,
Amona, Kepem, Goa - 403 705

**Price :** Rs. 90/-



जार्णे जिवितांत नाटकाबगर
दुसरो छंद केलोना,
त्या म्हज्या पापाच्या....
सर्गेस्त नामदेव नायक हाच्या
स्मृतींक .....!

## नाटकाचो पयलो प्रयोग

नाटकाचो पयलो प्रयोग 'रूद्रेश्वर, पणजी' हे संस्थेवतीन कला अकादमीच्या 32 व्या नाट्य महोत्सवांत 16 ऑक्टोबर 2007 दिसा कला अकादमीच्या मा. दिनानाथ मंगेशकार नाट्यघरांत जालो.

### पयल्या प्रयोगाचे कलाकार

| | | | |
|---|---|---|---|
| शाली | : उत्कर्षा रायकार | गुरव | : पुंडलीक सावंत |
| बाबलो | : निलेश नायक | आई | : ज्योती कळंगुटकार |
| इश्णू/गांवकार | : नितेश नायक | बुदवंत 1 | : नंदकिशोर नायक |
| कुश्ट/गांवकार | : दत्तेश हेगडे | बुदवंत 2 | : ओंकार वझे |
| यमनेंआका | : गौरी शेट शिरोडकार | बुदवंत 3 | : किशोर केळकर |
| इठ्ठल | : दिलीप वझे | लोक 1 | : गणेश नायक |
| रायरावत | : योगेश जोशी | लोक 2 | : अश्वेक मांद्रेकार |
| काळगो | : संगम चोडणकार | लोक 3 | : प्रवीण च्यारी |

| | | | |
|---|---|---|---|
| दिग्दर्शक | : दिपक शं. आमोणकार | सुत्रधार | : देविदास शं. आमोणकार |
| निर्मिती प्रमूख | : संगम चोडणकार | आवाज येवजण | : योगेश जोशी/दिलीप वझे |
| माचये येवजण | : प्रवीण च्यारी | माचये सामान | : नंदकिशोर नायक |
| न्हेसवण | : मनुजा नार्वेकार | उजवाडा येवजण | : सतीश नार्वेकार |
| रंगवण | : एकनाथ नायक | | |

### कला अकादमीच्या 32 व्या नाट्य महोत्सवांत फावो जाल्लीं इनामां

| | |
|---|---|
| लेखन | : पयलें |
| नाट्यप्रयोग | : चवथें |
| प्रशस्ती | : उजवाड येवजण, अभिनय (दादलो, बायल) |
| खास इनाम | : शालीचे भुमिकेक |

### संकल्प थिएटर्सच्या 6 व्या नाट्य महोत्सवांत फावो जाल्लीं इनामां

| | | | |
|---|---|---|---|
| लेखन | : पयलें | रंगभुशा | : पयलें |
| नाट्यप्रयोग | : पयलें | वेशभुशा | : पयलें |
| दिग्दर्शन | : पयलें | अभिनय (स्त्री) | : दुसरें |
| खास इनाम | : शालीचे भुमिकेक | | |

### कला चेतना, वळवयच्या 2007 वर्साच्या नाट्य महोत्सवांत फावो जाल्लीं इनामां

| | |
|---|---|
| नाट्यप्रयोग | : पयलें |
| दिग्दर्शन | : पयलें |
| अभिनय (स्त्री) | : पयलें |

*चत्राय : हें नाटक माचयेर सादर करचे आदीं लेखिकेची पुर्वपरवानगी घेवंची पडटली.*

# प्रकाशकाचे वतीन

बालसाहित्य, कथा, लोकसाहित्य अशा साहित्य प्रकारांचीं पुस्तकां उजवाडाक हाडल्या उपरांत आतां डॉ. जयंती नायक हांचें नाटकाचें, 'कुकमादेवीची दिपमाळ' हें पुस्तक उजवाडाक हाडटना आमकां खूब म्हणल्यार, खूबच खोस भोगता.

नाटक हें साहित्याच्या हेर प्रकारांपरस जनसामान्यांकडेन पावपाचें चड प्रभावी माध्यम आसा तरी पूण ताच्या लेखनाचें तंत्र सगळ्याच लेखकांक जमता अशें ना. बायलो तर सहसा ह्या प्रकाराचे वाटेक वचनात. गोंयांतल्या कोंकणी-मराठी नाट्यलेखनाचें अवलोकन केलें जाल्यार कांय अवघ्योच बायलो ह्या क्षेत्रांत देंविल्ल्यो दिसतात. पूण तांकांय फावो तितकेशें यश मेळिल्लें ना.

नामनेची ज्येश्ट मराठी साहित्यीक श्रीमती माधवीताई देसाई हिणें आपल्या 'सूर्यफुलांचा प्रदेश' ह्या गोंयांतल्या कर्तृत्वी बायलांच्या जिविताचेर तयार केल्ल्या चरित्रग्रंथांत, 'स. हिराबाई पेडणेकारा नंतर नाट्यलेखन करणारी जयंती नायक ही दुसरी गोमंतकीय नाट्यलेखिका अशें विधान केलां. माधवीताईचें हें विधान म्हणजेच जयंतीबायच्या नाट्यलेखनाच्या यशाक लाबिल्लें प्रमाणपत्र अशें आमी मानतात.

'कुकमादेवीची दिपमाळ' हें जयंतीबायचें नाटकाचें पयलेंच पुस्तक. रूद्रेश्वर, पणजी हे संस्थेच्या निर्मितीन सादर जाल्ल्या ह्या तांच्या पयल्याच नाटकान राज्य तशेंच राष्ट्रीय पावंड्याचेर जैत जोडलां. गोंयच्या साबार वाठारांनी ताचे प्रयोग जाल्यात. ह्या नाटकाची संहिता पुस्तक रूपान उजवाडाक हाडटना आमकां अभिमान भोगता.

नाट्यक्षेत्रांतलो एक जाणकार श्री. वसंत सावंत हांणी एक प्रयोगक्षम संहिता म्हण ह्या नाटकाविशींचो आपलो प्रशस्तीरूप अभिप्राय दिला. त्या अभिप्रायाक धरून ह्या नाटकाचें पुस्तक उजवाडाक आयल्या उपरांत ताचे वेग-वेगळेकडेन, वेग-वेगळ्या नाट्य संस्थांचे वतीन प्रयोग जातले अशी आस्त आसा.

ह्या नाट्य-पुस्तकाखातीर आशय संपन्न मुखचित्र काडपी श्री. गौरीश वेर्णेकार, टायपसेट करपी श्रीमती ज्योती गांवकार, प्रिंटर्स रूतू ऑफसेट हांच्या सगळ्यांच्या सहकार्याचो हांव हांगा मुजरत उल्लेख करता.

शेवटाक देवदासी प्रथेसारक्या एका आव्हानात्मक विशयाचेर नाटक बरोवपाचें धाडस केल्लेखातीर जयंतीबायचें अभिनंदन करून, पुस्तक उजवाडाक हाडपाची संद आमकां दिल्लेखातीर तिचे आभार मानतां!

ता : 22 एप्रील 2009 — प्रकाशक

# नांदी

म्हाका नाट्यलेखनाचें तंत्र कशें गवसलें हाचो थाव घेतना हांव म्हज्या भुरगेपणाकडेन आनी म्हज्या घराकडेन येवन थांबतां. म्हजो बापूय सर्गेस्त नामदेव नायक, जो हो संवसार सोडून गेल्यार आतां दोन वर्सां पुराय जालीं, तो हौशी मराठी रंगभुंयेवेलो एक गाजिल्लो नाट्यकलाकार. एक उत्कृश्ट नट आनी दिग्दर्शक अशी ताची केपेच्या वाठारांत नामना आशिल्ली. केपेची दर एक उत्सवी रंगमाची ताणें गाजयल्या. कटो, घुडो, कुसमण ह्या गांवच्या देवळांच्या जात्रांनी जावपी नाटकांच्या रंगमाचयेर तर तो जिणेचीं कमीत तीं चाळीस वर्सां तरी चडला. ह्या शिवाय बोरी, असोळणें हांगाच्या नाटकांनीय कितलीं तरी वर्सां ताणें अभिनय केला. राजबिंडें रूप, लांबरूंद पिळदार शरीरयष्टी, भेदक दोळे, खणखणीत आवाज, अस्खलीत मराठी उच्चार हाका लागून ताचें सवंग प्रेक्षकांच्या मनांत भरतालें. संवाद काळजाचेर उदेताले. ताका स्वताक सवंग लागतालें म्हळ्यार चूक जावंचीना. इतिहासीक नाटकां ताचीं सामकीं आवडटीं. ताणें जायते फावट शिवाजीची भूमिका केल्या. पूण संभाजीची भूमिका करतना तो एके वेगळेच धुंदीत स्टेजीर वावुरतालो. जिणेच्या पंदराव्या वर्सा ताणें स्त्रीपात्राच्या अभिनयावरवीं मराठी रंगभुंयेचेर पावल दवरलें आनी अंदाजे साठींत पावतकच, म्हज्या आवयच्या गंभीर दुयेंसाक लागून ताणें नाट्य संन्यास घेतलो.

बापायच्या नाटकाच्या ह्या छंदाक लागून म्हणात वा कलागुणाक लागून म्हणात, भुरगेपणांत घरांत तिनशें वयर तरी मराठी नाटकाचीं पुस्तकां आशिल्लीं. बसपाच्या सालांत पापाचे नाटकांतले वेग-वेगळ्या प्रसंगाचे फोटो आशिल्ले. केन्ना एकोडे, केन्ना कोणा नटी व हेर सह-नटांच्या सांगातान. पावस गेलो म्हणटकच पापाच्या नाटकांक सुरवात जाताली. मागीर पापाचे आपल्या दर्जीपणाच्या कामाचेर थोडें दुर्लक्ष जातालें. ताच्यो येसायो सुरू जाताल्यो. रातचें वेळान घरा येवप जातालें, घरांत वचत थंय नाटकाचे खड्डे दिसताले. फांतोडेर पापाचें भाशण पाठ करप आयकूंक येतालें. गांवांत नाटकां आसल्यार तबलजी, पेटीवालो, नटी हांचो राबितो घरांत आसतालो. तांची सरबराय करपांत आईवांगडा म्हाकाय घरांतलीं कामां करचीं पडटालीं.

तर सांगपाचें म्हळ्यार, अशा ह्या नाटकी वातावरणांत वाडटना म्हजे भितरल्या नाटककाराचें बी रूजवणाक पडलें आसूंक जाय. भुरगेपणांत म्हाका आई शेजारच्या वा बरोबरच्या हेर भुरग्यांबरोबर खेळूंक धाडनाशिल्ली तेन्ना हांवें पुस्तकांकडेन इश्टागत जोडली. घरांत आईन हाडिल्लीं गोश्टींचीं पुस्तकां, चांदोबा वाचतां वाचतां हांवें पापाच्या सगळ्या नाटकांचीं कितके फावटी तरी पारायणां केलीं. इतिहासीक... काल्पनीक.. सामाजिक.. नाटकां वाचतना हांव एका वेगळ्याच कल्पनाविश्वांत रमतालें, तातुंतले

प्रसंग दोळ्यांमुखार कल्पनेन उबें करतालें. म्हाका साहित्यीक प्रतिभा हांगाच गवसली आसूंक जाय.

आई म्हाका हेर भुरग्यांबरोबर नाटकां पळोवंक धाडनाशिल्ली. पूण पापाचें नाटक आसल्यार पापाच व्हरतालो, केन्ना केन्नाय आईबरोबर नाटकाक वचूंक मेळटालें. पापाचीं कांय नाटकां हांवें पळयलीं, तातूंत म्हाका आज याद जातात तीं म्हळ्यार, 'नेकजात मराठा', 'करीन ती पूर्व', 'रायगडला जेव्हा जाग येते', 'शिवकंकण', 'इथे ओशाळला मृत्यू', 'सिंहाचा छावा', 'मृच्छकटीक', 'माते तुला काय हवंय?', 'दुर्वांची जुडी', 'उद्याचा संसार' बी...

कुडचड्यार सांतेरी मंडपांत, महाराष्ट्रांतले ट्रूप मराठी नाटकाचे तिकेटीचे प्रयोग करताले. पापावांगडा आई नाटकां पळोवंक वताली. तिणें केन्ना नाटकांत काम केलें ना पूण तिका पापापरस चडूच नाटकाचो शौक आशिल्लो. कांय कंपनीचीं - तिकेटीचीं मराठी नाटकां पापान-आईन म्हाका आनी म्हज्या भावांक दाखयलीं. म्हज्या मराठी नाट्य आस्वादनाचो हो ल्हानसोच नियाळ.

1982 उपरांत मराठी नाटकां, जावं तीं हौशी वा जावं तीं वेवसायीक, पळोवप जालीं नात. ह्याच काळार हांव कोंकणी चळवळींत पाविल्लें आनी ते निमतान कोंकणी नाटकां पळोवपाची म्हाका रूच लागली. तेभायर 'कोंकणीवादीपणाचें भूत' तकलेर आशिल्लें. म्हणटकच मराठी नाटकां, तांचें विशय, पात्रां, भाशा, अडेची- उखलापी दिसूंक लागलीं. तीं पळोवपाची इत्सा जायना जाली. कला अकादमीच्या नाट्यसर्तींत जैतिवंत जाल्लीं लेखन, अभिनय, दिग्दर्शन आनी नेपथ्य अशीं सगळे नदरेन उत्कृश्ट अशीं गाजिल्लीं कांय नाटकां पळयलीं, आनी म्हजी नाटकाची अभिरूची बदल्ली. कोंकणी नाटकां हीं उंचेल्या पावंड्याचीं असो समज मनांत घट्ट जालो. ह्या काळार कथेसारको साहित्य प्रकार हांवें समर्थपणान केळयिल्लो, कविताय बरयिल्ल्यो. आतां हीं नाटकां पळयतां पळयतां आपणेंय कोंकणी नाटकां बरोवन सादर करचीं अशी इत्सा मनांत मूळ धरूंक लागली.

इत्सेन मूळ धरलें खरें, पूण बरोवपाचें मात धाडस जायनाशिल्लें. नाट्य लेखनाचें तंत्र म्हाका जमतलें काय कितें? असो धुगधुगो मनांत उबो रावतालो. एक एकदां मनांत येतालें, इतकीं मराठी कोंकणी नाटकां हांवें वाचल्यांत, तेन्ना म्हजेखातीर नाटक बरोवप व्हडलें कठीण न्ही! कथेंत जें कथानक हांव निवेदन रूपांत मांडटा, तेंच हांगा संवादांत उबें करपाचें! दुसरे वटेन दिसतालें, ना! तशेंय सोंपें न्ही नाटक! जर सोंपें आशिल्लें तर कोंकणींत नाटककार इतले उणे कित्याक आसतले आशिल्ले? अशेच संभ्रावीत अवस्थेंत वर्सां गेलीं. पूण पूर्ण स्वरूपाचें नाटक बरोवप म्हजेकडल्यान घडलेंना.

हांगा मुजरत नोंद करूंक जाय, म्हज्या विद्यार्थीकाळांत आनी कोंकणी चळवळींत प्रवेश करचे आदी जेन्ना म्हज्या आमोणें गांवांत म्हज्या बापायच्या फुडाकारान सार्वजनीक

पुजा करून एक वर्सुकी मराठी नाटक करताले, तेन्ना नाटकाचे सुरवेक भुरग्यांखातीर म्हूण एक कोंकण नाटकुलें बसयताले. त्या एका नाटकुल्यांत, म्हळ्यार श्री. अशोक कामत हांच्या 'इश्टागत' ह्या नाटकुल्यांत हांवेंय सवंग केलां. ताचीच उर्बा घेवन आनी एकंदर घरांत आशिल्ल्या नाटकाच्या वातावरणांतल्यान उमेद घेवन हांवें 1980 वर्सा 'चक्रम रामायण' हें विडंबनात्मक स्वरूपाचें, सुमार देड वरांचें नाटक बरयिल्लें आनी म्हज्या व्हडल्या भावान दिग्दर्शीत करून तें सादर केलें. म्हजे तिगीय भाव, तांचे इश्ट, म्हजी धाकटी मावशी आनी हांवें स्वता, तातूंत भुमिका केल्यो. हें नाटक विनोदी आशिल्लें आनी तत्कालीन राजकीय परिस्थितीची तातूंत विडंबना केल्ली. म्हज्या गांवच्यांक ते खूब आवडलें. मागीर ताचो एक प्रयोग आमी केप्यां बाजारांत केलो. दुसरो असोळण्या हांगा. हें नाटक छापपाखातीर कुडचडेच्या संतवर्धन प्रकाशकाकडेन दिल्लें, कांय तंत्रीक कारणांक लागून तें छापप जालें ना.

ह्याच नाटकांतल्यान उमेद घेवन हांवें 'सून जाय सून' ही एकांकी बरोवन स्पार्कलींग स्पोर्टस क्लब, केपें, हांचे एकांकी सर्तींत म्हज्या भावांच्या आदारान सादर केल्ली. सर्तींत म्हाका लेखनाचें पयलें बक्षीस मेळ्ळें. उपरांत आनीकय दोन नाटकुलीं हांवें बरयलीं, पूण सादर करप जालीं नात.

ह्या नाटकुलीं लेखना उपरांत कोंकणी चळवळीकडेन म्हजो संबंद आयलो, अवघीच कांय जायना, पूण दोळे दिपकावपी कोंकणी नाटकां हांवें पळयलीं. अजीत केरकार, विजयकांत नमशीकार, श्रीधर बांबोळकार हांच्या अभिनयान, दिग्दर्शनान हांव भारावन गेलें आनी कोंकणी नाटकां म्हणजे फार्सीकल शो न्हय हाची म्हाका जाण जाली. देखूनच म्हाका पूर्ण स्वरूपाचें कोंकणी नाटक बरोवंक जाय मात तें गंभीर स्वरूपाचें, गोंयच्या मातयेच्या प्रश्नांचें, लोकवेदाक अभिव्यक्त करतलें असो विचार मनांत रूजवलो.

मनांत नाटकाच्यो मांडण्यो चालूच आशिल्ल्यो आनी 1987-88 वर्सा म्हाका गोवा कोंकणी अकादेमीची म्हैसूर विद्यापिठांत लोकवेदाचो पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा कोर्स करपाखातीर शिश्यवृत्ती फावो जाली आनी हांव एक वर्स म्हैसूराक उरलें. कोंकणी साहित्य, नाटक, चळवळ हे पसून म्हजी वार तुटली. 'नवें क्षेत्र, नवें ध्येय' हांकां फुडें केल्ल्यान 'नाटक' हो विशय हांव विसरलें. गोंयांत येतकच नव्या ध्येयाचे पुर्तीखातीर हांवें स्वताक ओंपून घेतलें. गोंयच्या तळा-गाळांत भोंवन जंय-थंय शिंपडिल्लो लोकवेद पुंजावन म्हज्यो व्होटणींचेर व्होटणी भरूंक लागलें. गोंयच्या संस्कृतायेची मोलादीक रत्नां-माणकां मातयेभरवण जावंचे आदीं वेंचून, हांड्यांत सुगूर दवरूंक जाय, हे भावनेन वावरूंक लागलें.

मात हें कार्य करतना म्हजेभितरलो लोकवेद संशोधक लोकसंस्कृतीचीं माणकां पळोवन जितलो दिपकावलो, तितकोच म्हजेभितरलो संवेदनशील लेखक, नश्ट्यो चाली-

रिती, परंपरेच्या नांवाखाला समाजांतले अन्याय – अत्याचार पळोवन निणनिणलो, देव-धर्माच्या नांवाखाला मनीसपणाचें जावपी अंध:पतन पळोवन अस्वस्थ जालो. म्हजी अस्वस्थकाय हांवें 1990 उपरांत बरयिल्ल्या म्हज्या कथांतल्यान व्यक्त करपाचो यत्न केल्लो आसा.

2000 वर्साची नोव्हेंबराची गजाल. लोकवेदाच्या संकलनाक भोंवतना हांवें एका दिसा गोंयचे शिमे वाठारांत दिपमाळेची प्रथा पळयली, ताच्या दोन दिसांच्या अंतरान गोंयचे एके जात्रेक दिपस्तंभ पेटयतना देवदासींनी केल्लें नाच-गायन पळयलें. स्वताची आजी सोबसारक्या वयाच्या जाण्टेलेक पळोवंक तरणाट्यांनी घातिल्ल्यो उडयो पळयल्यो. खी: खी: करून हांशिल्लो हांसो पळयलो आनी म्हजें मन छिन्न – विछिन्न जालें. ज्या जाग्यार स्त्रीक देवत्व दिवन तिच्या निर्मिती शक्तीचो उदो उदो जाता, तिच्याच दरबारांत स्त्रीयेची ही विटंबणा?.. हांव तिरीमिरींतच घरा आयलें. मन खूब अस्वस्थ आशिल्लें. मनांतले उमाळे म्हाका बरोवंक जाय आशिल्ले. हांवें पेन हातींत घेतलें आनी खबर ना कशें म्हण, संवादरूपान मनांतलो सगळो खवदळ कागदाचेर देंवत रावलो आनी नाटकाची निर्मिती जाली. दोन दीस अखंडपणान म्हजें पेन कागदाचेर भोंवतालें आनी 'कुकमादेवीची दिपमाळ' जल्माक आयिल्ली.

म्हजें पेन थांबलें तेन्ना मन शांत जाल्लें आनी हांवें नाटक बरयलां हाचो एक वेगळोच आनंद म्हाका जालो. घरांतल्या वातावरणांतल्यान बीं रूजून, मराठी ते कोंकणी नाटकां पळयत आकार घेतिल्लो म्हजे भितरलो नाटककार असो एका भावनीक प्रसंगांतल्यान म्हजे लेखणेच्या कुसव्यांतल्यान भायर सरून धुप्प करून म्हज्या मुखार उबो आशिल्लो.

नाटक बरयल्लें पूण हांवें तेविशीं कोणाक सांगूंक ना वा संहिता दाखोवंक ना. तें म्हजेकडेन तशेंच आशिल्लें. ताचो विशय मानवत, वा म्हाका नाटकाचें तंत्र जमलां काय, अशे म्हाका प्रश्न आशिल्ले. पूण विशय मनाक सतायतच आशिल्लो. देखून आकाशवाणीच्या नभोनाटय सर्ती खातीर त्याच विशयाचेर एक नभोनाट्य बरोवन हांवें धाडलें, थंय ताका बक्षीस मेळ्ळेंना पूण उत्तेजनार्थ तें 2002 वर्सा आकाशवाणीर सादर जालें. श्रोत्यांकडल्यान बरो प्रतिसाद आयलो, कांय जाणांनी आकाशवाणीक तशें बरयलें लेगीत. कांय जाणांनी म्हाका प्रत्यक्ष मेळून सांगलें. आकाशवाणीचे अधिकारी श्री. रामानंद जोशी हांणी तर ताची खुबच तुस्त केली. त्यावेळार पूर्ण स्वरूपच्या नाटकाची संहिता म्हजेकडेन आसा हाची तांकां हांवें खबर सांगली. तशे रामानंदबाब स्वताच कोणाकोणाक 'जयंतीकडेन बरी संहिता आसा' अशे सांगूंक लागले. तांचेकडल्यान खबर कळून दोग जाणांनी म्हजेकडल्यान संहिता मागून व्हेली, कला अकादमीच्या नाट्यसर्तींत सादर करपाखातीर. पूण नाटकाचो विशय तांकां पेल्लो ना. एन्ट्री दिवन नांव फाटीं घेतलें.

हें सगळें पळोवन, म्हाका नाटक हो प्रकार न्ही तर हांवें ह्या विशयाचेर एक कादंबरी बरोवंची अशें हांवें मनांत थारायिल्लें. अचकीत 2007 च्या जुलै म्हयन्यांत रूद्रेश्वराच्या श्री. दिपक आमोणकाराचो म्हाका फोन आयलो. 'रामानंद जोशी हांणी तुमचेकडेन नाटकाची बरी संहिता आसा म्हण सांगल्या तेन्ना मातशी वाचूंक दिशात?' अशें ताणें विचारलें. ताचेर 'आवडली ना तर स्क्रीप्ट रोकड्यारोकडी परत कर' अशीं तुटकीं उतरां फाटल्या अणभवावेल्यान उलोवन हांवें ताका स्क्रीप्ट दिली. पूण म्हज्या नांवाक 'नाटककार' हें बिरूद लागपाचें संचीत आशिल्लें. दिपकान स्क्रीप्ट परत केली ना, तर 16 ऑक्टोबर 2007 दिसा कला अकादेमीच्या 32 व्या नाट्य महोत्सवांत ती सादर केली. ते दिसा आपले लेखणेचो येदो व्हडलो भव्यदिव्य अविश्कार मुखार साकार जातना हांव विस्फारीत दोळ्यांनी पळयतालें. खोशयेची एक वेगळीच झीग म्हाका चडिल्ली.

नाटकाक कला अकादेमीचे सर्तींत लेखनाचें पयलें, पूण प्रयोगाचें चवथें बक्षीस मेळ्ळें. कलाकाराचें तोंड मातशें बावलें. हांवें तांकां सांगलें, 'सर्तीचीं बक्षिसां परिक्षकांच्या मर्जीचेर आनी आकलनाचेर आदारून आसतात, पूण नाटक खरें प्रेक्षकांच्या काळजांत आसता ! आनी तुमचें नाटक प्रेक्षकांच्या काळजांत आशिल्लें हांवें पळयलां!'

म्हजें निरिक्षण सारकें आशिल्लें. कुडचड्यार, संकल्प थिएटर्सचे त्याच वर्साचे नाट्य सर्तींत ह्या नाटकाक लेखन-प्रयोगाचें पयलें इनाम मेळ्ळें. हेर साबार इनामां तर मेळ्ळींच पूण तेवूय परस चड म्हळ्यार प्रेक्षकांनी तें उखलून धरलें. नाटक सोंपतकच अक्षरक्षा लोकांनी म्हाका गराडो घातलो आनी नाटकाची स्तुती केली. उपरांत कला चेतना, वळवळचे 2007 चे सर्तींतय ताका पयलें इनाम मेळ्ळें. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या कुडचिरें - सांखळी हांगा जालले 16 वे नाट्यसर्तींतय ह्या नाटकान प्रेक्षकांक थिजोवन दवरले. ते नंतर कुर्डी, केपें, मडगांव अशा साबार वाठारांत ह्या नाटकाचे प्रयोग जाले. केप्यां तर स्टेज, लायट, मायक हाची मर्यादा आसुनय लोकांचीं काळजां ह्या नाटकान हालयलीं. 'बाय, तूं इतकें बरें बरयतां हें आमकां खबरच नाशिल्लें' अशें म्हाका कितल्या तरी केपेंकारांनी सांगलें. नाटक हें सामान्याकडेन पावपाचें कितकें प्रखर माध्यम हाची जाणीव म्हाका ते दिसा जाली. केप्यां वाठारांत ह्या नाटकाक लागून शिकिल्ल्या वांगडा नुस्तेकार आनी भाजीकान्नी मेरेन, 'बरोवपी' म्हण म्हजी वळख पावली.

म्हजे गांवची देवदासी परंपरेचे जाळ सोंशिल्ली, तेचबरोबर गोंयचे मराठी हौशी रंगभुंयेचेर स्त्री कलाकार म्हण यश जोडिल्ली एक जाण्टी अस्तुरी मुद्दाम केपेंचो प्रयोग पळोवंक आयिल्ली. प्रयोग पळोवन ती घळघळीत रडली. 'नाटकाचें कथानक वेगळें, तरी पळयतना म्हज्या जिणेचीच कथा मुखार घडटा अशें दिसलें. तुवें हुबेहूब आमच्या यातनांचें चित्रण केलां', तिणें म्हणलें. जाल्यार ह्याच परंपरेचो बळी थारिल्ल्या एके अस्तुरेच्या धुवेन म्हाका सांगलें, 'नाटक पळयतना म्हजे आवयन भोगिल्ल्या कश्टांचे

यादीन म्हाका उमाळ्यांनी रडणें फुडलें.'

फकत ह्या दोगांकच ह्या नाटकान रडयलें अशें न्ही तर तें पळयतल्या दर एका प्रेक्षकाचें काळीज ह्या नाटकान हालयलां म्हळ्यार अतिताय जावंचीना. एक लेखक म्हण, म्हजे लेखणेचें खरें जैत तें हेंच, अशें हांव मानतां.

गोंयांत एका काळार देवळी, कलवंत, भावीण, पेरणी, चेडवां, बंदे बी समाजांत चलयांक लग्न करचे बदला 'शेंस' नांवाचो विधी करून देवाचे सेवेक ओंपपाची चाल आशिल्ली. स. राजाराम पैंगीणकार सारक्या समाजसुधारकांनी हे प्रथेआड आवाज उठयलो. तांच्याच यत्नांक लागून 1930 वर्सा पोर्तुगीज सरकारान कायदो करून हे प्रथेचेर बंदी घातली. तरी थोडो काळ ही चाल लिपयां-चोरयां उरली.

पोर्तुगीज सरकारान घाल्ले बंदीक लागून म्हणात, वा समाजीक परिवर्तनाक लागून म्हणात, शेंसविधीची चाल आज गोंयच्यान आनी गोंयच्या शिमेवाठारांतल्या कोंकणी समाजांतल्यान पुरायेन ना जाल्या, पूण हे प्रथेक जुळून आशिल्ल्या प्रथांचे अवशेश आजुनय ह्या समाजाक पिडटात. ह्या नाटकाचें मूळ सुत्र आशिल्ली दिपमाळीची प्रथा, हो असोच एक अवशेश.

'कोंकणी लोकवेदांतली बायलेची प्रतिमा : एक समाजीक - संस्कृतीक अभ्यास' हो म्हज्या पीएच्.डी.चो विशय. ह्या विशयाच्या अभ्यासाच्या निमतान 'देवदासी' प्रथेचो हांवें अभ्यास केला. ह्या नाटकाच्या लेखनाच्या वेळार म्हजो अभ्यास ऐन तेंगशेर आशिल्लो. देवाचे सेवेक बायलमनशेक ओंपपाची चाल गोंयांत आनी भारतांतल्या हेर वाठारांतच न्हय, तर संवसारांतल्या बऱ्याच जाग्यांनी आशिल्ली वा आसा, ग्रीक - बाबिलोनिया सारक्या पुरातन संस्कृतायांनी हे प्रथेचो मोठो असर आशिल्लो हाचे संदर्भ म्हाका त्या वेळार सांपडिल्ले. 'देवाची प्रतिनिधी ह्या मूळ भावनेन उदेव जाल्ले हे संकल्पनेक काळभोंवडेंत 'भोगदासी' हें बिरूद फावो जाल्लें पळोवन संशोधका सांगातान आशिल्ली म्हज्यांतली संवेदनशील लेखिका निण्णेल्ली. ज्या वेळार ह्या नाटकाचें प्रत्यक्ष लेखन जालें, त्या वेळार ही फाटभूंय म्हज्या सांगाताक आशिल्ली.

कोंकणी साहित्यांत आजवेर हांगा थंय दपत दपत हो विशय आयला खरो पूण विशयाच्या नाटीक हात घालपाचो यत्न जाल्लो ना. तो ह्या नाटकावरवीं पयलेच फावट जाता म्हळ्यार चूक जावंचिना. देवदासी समाजान भोगिल्ल्या यातनांक हें नाटक खऱ्या अर्थान वाचा फोडटा.

कोंकणी रंगभुंयेचेर 2007-2008 हें वर्स ह्या नाटकान गाजयलें. रूद्रेश्वर, पणजीच्या निर्मितीक राष्ट्रीय पावंड्याचेरूय प्रयोग करपाचें भाग्य मेळ्ळें. म्हण गोंयच्या विवीध वाठारांत 14 आनी त्रिपुरांत 4 अशे वट्ट अठरा प्रयोग हे संस्थेन आजवेर केल्यात. आनीकय जाग्यांनी ह्या नाटकाच्या प्रयोगांक मागणी आशिल्ली, पूण कांय तंत्रीक

अडचणीक लागून संस्थेन प्रयोग करपाचें स्विकारलें ना. 21 ते 24 डिसेंबर 2008 ह्या दिसांनी जाल्ल्या त्रिपुरच्या आठव्या चंदन सेन गुप्ता यादस्तिक नाट्य महोत्सवांत भाग घेवपाखातीर गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयान ह्या नाटकाची निवड केली, हें ह्या नाटकाचें आनीक एक जैत अशें हांव मानतां.

नाटकान जोडिल्लें हें इतकें जैत, तें सगळें म्हज्या एकट्याचें न्ही हें हांव जाणां. नाटकाचो दिग्दर्शक श्री. दिपक आमोणकार, एका शिल्पीन ओबड – धोबड पाशाणाक सुंदर मुर्तीचें रूप दिवंचें, तशें म्हजे वांकडे तिकडे संहितेक ताणें जिवंत करून माचयेर उबी केली. तें करपांत रूद्रेश्वराच्या सगळ्या कलाकारांनी आनी जाळवणदारांनी प्रयत्नांची शिकस्त केली. तांकां सगळ्यांक लागूनच नाटक इतकें जैत जोडूंक पावलें. ह्यावेळार तांकां सगळ्यांक हांव दिनवासतां.

नाटकाची संहिता छापचे आदीं नाट्य क्षेत्रांतल्या जाणकाराक ती दाखोवप म्हजेखातीर गरजेचें आशिल्लें. नाट्यलेखक, कलाकार, दिग्दर्शक अशे त्रिगूण आंगांत आशिल्लो म्हजो इश्ट श्री. वसंत सावंत हाका हांवें ती वाचपाक दिली. 'एक बरी संहिता' म्हण ताणें दिल्ल्या अभिप्रायाक लागून म्हजी नाट्यलेखनाची उमेद वाडली. ताचो अभिप्रायच ह्या पुस्तकांत छापला.

नाटकाचो प्रयोग पळयल्या उपरांत साबार जाणांनी म्हाका मुजरत फोन करून अभिनंदन केलें. नाटकाविशीं आपले अभिप्राय – सुचोवण्यो दिल्यो. त्या सगळ्यांचीं नांवां हांगा दिवप शक्य ना, पूण नाटककार श्री. पुंडलीक नायक, नाट्यदिग्दर्शक श्री. श्रीधर कामत बांबोळकार, साहित्यीक प्रा. अरूण साखरदांडे आनी म्हजी इश्टीण श्रीमती ब्रँडा मिनेझीस आनी तिचो घरकार श्री. वॉल्टर मिनेझीस हांचो मुजरत उल्लेख करतां आनी तांकां दिनवासता. केपेंचे भयणीन बरयिल्लें नाटक केपेंकारांक पळोवंक मेळचें म्हण ताचो प्रयोग पुरस्कृत करपी आमदार भौ. चंद्रकांत कवळेकार आनी ते दिसा सगळ्या कलाकारांची सरबराय उमेदीन करपी तरणाटो फुडारी श्री. सुभाष देसाय हांचेय हांव आभार मानतां. तशेंच नाटकाच प्रयोग पळयलो ना तरी हांवें नाटक बरयलां, हेचखातीर म्हजी भरभरून तोखणाय करपी श्री. प्रकाशबाब थळी हांकां हांव अभिवादन करतां.

अखेरेक, ह्या नाटकाचे प्रेरक – श्री. रामानंद जोशी हांकां ह्या नाट्य यशाचें सगळें श्रेय हांव ओंपता.

ता : 21/04/209

**जयंती नायक**
आमोणें, केपें, गोंय
403 705

# जयंतीची साहित्यमाळ

जंयतीन कथा बरयल्यात, कविता बरयल्यात, लेखमाळ बरयल्या, लोकवेद अभ्यासाचें शिक्षण घेतलां, संशोधन केलां, लेख बरयल्यात, पीएच्.डी. केल्या, कला अकादमीचो आनी साहित्य अकादमीचो पुरस्कार जोडला. दिसपट्टें तें केप्यां सावन पणजे येवन नोकरी करता, ऑफिसांत आपल्या वावराक जोडून प्रशासकीय कारभार पळयता, मेळाव्यांक, शिबीरांक हाजीरी लायता. इतको व्याप आसतना नाटकासारख्या साहित्य प्रकाराक हात घालपाची ताका उमेद आसतली अशें दिसूं नासलें. सात-आठ वर्सां फाटीं मुळगांव - अस्नोडेचे एके संस्थेन जयंतीचें 'कुकमादेवीची दिपमाळ' हें नाटक कला अकादमीचे स्पर्धेंत घातलां म्हूण आयकल्लें. पूण त्या वर्सा नाटकाचो प्रयोग जावंक पावलो ना. घडये, जयंतीन फकत नाटकाचें नांव दिल्लें. बाकीच्या राटावळींमुखार स्क्रीप्ट दिवंक पावलें ना आसतलें अशें येवजिलें. विचारल्यार बेजार जावन आंगार येत म्हूण विचारपाचेय भानगडींत पडलो ना. पूण 2007 वर्साचे स्पर्धेंत 'रूद्रेश्वर, पणजी' सारखे संस्थेन ताचें नाटक घातलां म्हणपाचें वाचलें आनी जयंतीक फोन केलो. पांच-स वर्सां आदली ती खबर ताका हांवेंच याद करून दिली. जयंतीन आग्रो करूनय पणजेचे स्पर्धेंत प्रयोग पळोवंक पावलो ना. पूण संकल्प थिएटर्सच्या स्पर्धेनिमतान 17 डिसेंबर, 2008 दिसा नाटकाची स्क्रीप्ट वाचली, नाटकाचो प्रयोगय पळयलो आनी हेर साहित्य प्रकारांत जे खोलायेन ताणें बरप केलां तितक्याच समर्थपणान नाट्यलेखनांतूय ताणें आपली प्रतिभा सिध्द केल्याचें जाणवलें. दोनूय स्पर्धांनी लेखनाचीं पयलीं बक्षीसांय ताणें हातासलीं आनी नाट्यलेखिका हें आनी एक तास सन्मानान ताका जोडलें.

लोकवेदाचो अभ्यास आनी समाजाविशीं आशिल्ली लागणूक हाचें फळीत म्हूण 'कुकमादेवीची दिपमाळ' हें नाटक जल्माक आयलां ही गजाल नाटक वाचतनाच खेरीतपणान जाणवता. तशीं अंधश्रध्दा, अनीश्ट प्रथा, शोशकांचे अत्याचार अश्या आशयांचेर आदारिल्लीं जायतीं नाटकां वाचल्यांत, पळयल्यांत. अश्या वृत्तींचो जेन्ना अतिरेक जाता, तेन्ना सामान्यांतलोच कोण तरी पेटून उठता आनी संघर्श करून ती वृत्ती ना करपाक जैतीवंत जाता, अशेंच चित्र चडश्या नाटकांनी दिसून येता. जयंतीलीं 'कुकमादेवीची दिपमाळ' अश्याचश्या सांगाड्याचेर न्हेसयली, पूण ज्या प्रभावीपमान ताणें कथानक फुडें व्हेलां आनी आतां नेमकें कितें घडटलें हाची हुरहुर वाचप्यांच्या काळजाक लागची अशी मांडणी केल्या. ताका लागूनच जयंती दिवपाक सोदता तो संदेश खरायेन वाचप्यांमेरेन पावता आनी एक वैशिश्ट्यपूर्ण नाटक वाचिल्ल्याचें समाधान

मेळटा. एक नश्टी प्रथा, जातूंत बायल मनशेच्या भावनांचो कुस्कूट विचार करिनासतना, देवतेची सेवा म्हूण तिची विटंबना घडटा, ते प्रथेचे दोके मोडून नवी वाट सोदपाक लावपाची प्रेरणा दिवपी हें नाटक सुरवातीसावन निमाणे मेरेन वाचप्यांक आपल्या वांगडा बांदून दवरता हेंच ह्या नाटकाचें मोठे यश. सहजपणान फुडें सरपी संवाद, क्लिष्टता नाशिल्लें कथानक, दिसपट्ट्या व्यवहारांतली चालंत भास, घटनाक्रमाक धरून केल्ली विशयाची मांडणी, दर एका पात्राक सोब सारक्योच तांच्या तोंडांतल्यान आयिल्ल्यो ओपारी, अश्या गजालींखातीर एकंदर प्रभावाचे नदरेन नाटकाचे बांदणेक उभारी आयल्या.

हेर साहित्यप्रकारांपरस नाटकाचें वेगळेंपण म्हळ्यार तातुंतली प्रयोग सुलभता. जयंतीचें नाटक वाचतना खंयच्याय दिग्दर्शकाक ह्या खाशेलेपणाची तांक आकर्शीत केल्याबगर रावची ना. नाट्यलेखनाचो पयलोच प्रयत्न आसूनय दर एका दिग्दर्शकाक आपले शैलीक अणसरून सादरीकरण करपाची मेकळीक मेळची अशे आयाम हे संहितेत आसात, हें जयंतीचें मोठें जैत.

दिपमाळेंतलें यमनें, बाबलो, शाली, इठ्ठल हीं प्रमूख पात्रां आमच्या सामकीं संवकळीचीं, पूण तांच्या वेदनांसयत तीं प्रकट करतना तांची एक आंतरीक वळख जयंतीन करून दिल्या. रायरावत, बुदवंत, कारकी, गुरव हीं व्यक्तीमत्वां गांवांतलीं गांवपणाची पध्दत, तातूंतले नेम, रिती हांची वळख अधिकृतपणान ह्या नाटकांतल्यान जाता. डांगरेकार बाप्पालें कळोवणें, गुरवालें गाराणे नाटकाकडेन एकरूप जावन येता तें जयंतीच्या लोकवेद क्षेत्रांतल्या विद्वतेक लागून. दोळ्यांमुखार येवन गेल्ल्या कथानकाचो आशय प्रभावीपणान गडद करपाक आयिल्लीं गितां जयंतीची काव्यप्रतिभा दाखयता. ह्या नाटकांतल्या दोन देखावांत भाबड्या शालीक मेल्ली आवय मेळटा अशे प्रसंग आसात. त्या वेळावयले संवाद काळजाक हात घालतात. खूब फावटीं अश्या वेळार melodrama जावपाची चड शक्यता आसता, पूण शालीक जावपी भास हो ताच्या सपनाळ्या भावविश्वांतले तादात्मतेक लागून जाल्ली dillusional disorder हें नकळटना स्पश्ट करपाचें काम जयंतीच्या संवादांनी केलां.

नाट्यलेखन हो एक वेगळो अणभव. सगळ्याच लेखकांक तो जमताच अशें ना. आपले साहित्य माळेंत हें नाट्यफूल गुंथतना जयंतीन अपेक्षा निर्माण केल्यात. त्यो अपेक्षा प्रत्यक्षांत येवन ताचो नाट्यप्रवासय दिपकावणी उरचो, हीच इच्छा.

**वसंत भगवंत सावंत**
महालक्ष्मी,
टोनीनगर – सावर्डे
9423058318

# शिर्शक गीत

ही दिपमाळ गे कुकमादेवीची,
कुकमापूर गांवच्या गे वसणावळीची.

ही दिपमाळ गे चडयली माथ्यार,
देवीचे सेवेक गे जल्म बांदलो उतरान.

कुडीचें मार्ले गे आनी प्राणाची वात,
भक्तीचें तेल गे ओंपून पेटयली दीस–रात.

एकवीस माल्यांचें गे दिवज हें पर्जळटा माथ्यार,
संवसारार पडला उजवाड गे, नाचतलेच्या पांयाडेन अंधकार.

पिळग्यां पिळग्यांचें गे हें मार्ले, नाचोवन नाचोवन पांय थकले,
कुडींत उरलोना गे त्राण आतां, नमन निमर्णे तुज्या पांयाकडे.

# अंक - पयलो

## देखाव : 1

(सुमार 30-40 वर्सांआदलो काळ. यमनेआकालें गांवांतलें घर दिसता. घरामुखार आंगण. लागींच देवूळ. आशी-कुशीक चार-पांच घरां. आंगणांतल्यान देवळांत वचपाची वाट दिसता. देवळांत दनपारच्या आरतीक चौघुडो वाजिल्ल्याचो आवाज कानार पडटा. कांय वेळान आवाज कानार पडपाचो बंद जाता. तेन्नाच शाली हातांत एक बावली घेवन घरांतल्यान पडवेर येता आनी बावले वांगडा खेळूंक लागता. शाली हें धा-अकरा वर्सांचें चली भुरगें. ताचें खेळप चालू आसतना पार्श्वसंगीत आयकूंक येता.)

**एक आसली बावली,**
**जशी राजाची राजकुंवरी**
**गोरी गोरी पिट्ट**
**आनी गुणवंती गुणी**
**बावलेक खबर नासली**
**तिच्या गे नशिबाची काणी**
**आयक आयक बावले**
**तुजी कर्म काणी...**
**तुज्या नशिबाक गे**
**पडला बोथो,**
**तुज्या वांट्याक गे**
**पयसो खोटो**
**दैवाच्या हातांतली**
**तूं गे बावली**
**आयच्यान तुजेर गे**
**अवदसेची सांवळी.**

(शाली खेळांत मग्न आसतनाच ताका व्हडल्यान उलो मारीत बाबलो भितरल्यान भायर येता. बाबलो शालीचो भाव. ताचेपरस तीन वर्सांनी व्हड. पूण वयापरस चड गंभीर दिसपी.)

बाबलो : शाली.... ये शाली ! आं.. तूं कितें बावल्यांनी खेळटा गो?

शाली : आं? ना ! खेळ्ना रे हांव, बेश्टेंच हातांत धरून आसलेलें रे हांव बावली.

बाबलो : बेश्टेंच हातांत धरून आसलेलें? फट सांगता म्हाका? ... तुका कितके फावट सांगलें गो, बावल्यांनी खेळनाका म्हुणोन.... आं.. तो भुरग्यांचो खेळ म्हूगो? तूं आतां ल्हान आसा? येदी व्हडली घोडी जाली म्हुगो!

शाली : भाऊ... तुका कितके फावट सांगलें रे, म्हाका घोडी म्हण नाका म्हुणोन. हांव घोडी? ... हांव येदेशें भुरगें म्हरे.. आनी म्हाका बावल्यांनी खेळूंक आवडटा म्हरे भाऊ! (ऊं ऊं करून रडूंक लागता. बाबलो ताच्या रडपाकडेन लक्ष दिना. पडवेवेल्यान सकल आंगणांत देवन देवळावटेन कोणाची वाट पळयिल्ले सारकें करता. तेन्नाच वाड्यावेल्यान इश्णू आनी कुश्ट यमनेआकाल्या आंगणांत येतात. इश्णू-कुश्ट शालीच्याच बरोबरचे भुरगे. इश्णू परस कुश्ट दोन वर्सांनी ल्हान.)

इश्णू : बाबल्या, हांव आनी कुश्ट खेळपाक वयतात रे देवळामळार, तूं येता?

बाबलो : हय, येता.

शाली : हांवूय येता रे इश्णू.

बाबलो : तूं नाका गो.

शाली : हांव कित्याक नाका, हांव येतलेंच.

बाबलो : सांगलें न्ही गो एकदां नाका म्हुणोन. तूं घराकडेनच राव. आका येवचें जालां देवळांतल्यान, तें येयलें आनी तूं घरांत दिसलें ना जाल्यार रागार जातलें तें. तेणें सांगलां म्हुगो तुका, आतां मेळत थंय खंयीय भोवनाका म्हुणोन? आनी वत पळय कितलें आसा तें माथ्यार!

इश्णू : आसूं रे बाबल्या, येवूं रे तेका आमचेबराबर थोडो वेळ खेळपाक, सामकोच पातयेना म्हरे तूं भयणीक हालीं!

कुश्ट : हय तर कितें? दिसभर तेच्या, हांगा नाका, थंय नाका म्हुणोन फाटीक

लागतच आसता.

बाबलो : तशें न्हू रे कुश्टा, आकानच सांगलां तेका, आतां चेड्यांबरोबर बी चड भोंवनाका म्हुणोन. आतां तें व्हडलें जालां न्हूं, फुडल्या म्हयन्यांत तेका अकरावें वर्स लागतलें म्हुणोन सांगलां आकान!

इश्णू : सांगलां तें बरें आसा रे, पूण आमी चेडे खंय रे? आमी भुरगे म्हरे तेचे वांगडचे!

शाली : भाऊचें आयकनाकात रे तुमी इश्णू-कुश्टा. हांव येता तुमचेबरोबर खेळपाक. सांग कसल्यांनी खेळया?

इश्णू : कोयण्या-बालांनी!

शाली : तो नाका रे! तो तुमच्या चेड्यांचो खेळ. तो खेळ्ळ्यार आका म्हाका तापयता. दादल्यांबशेन हात घट जातले म्हण्टा.

कुश्ट : मागीर कसल्यांनी खेळया तें तूंच सांग म्हुगो!

शाली : आमी रांदपानी खेळया?

इश्णू : शी! तो तुमगेलो बायलांचो खेळ म्हुगो! तो आमी खेळपाचो आसा?

कुश्ट : दुसरो खंयचोय सांग गो.

शाली : दुसरो खंयचो... दुसरो खंयचो... आं! आमी लग्नाचो खेळ खेळया!

इश्णू/कुश्ट : लग्नाचो?

शाली : हय रे, लग्नाचो.

(बाबलो बेजार जाता, पूण कांय उलयना)

इश्णू : बरें आसा, लग्नाचो तर लग्नाचो. चल या मळार, आनी वेळ व्हगडावंक नाका.

कुश्ट : राव रे इश्णू मातसो... खेळांत शाली व्हंकल जाली, मागीर न्हवरो कोण?

शाली : न्हवरो...? न्ह....व....रो, (येवजून) न्हवरो.... हो भाऊ!

बाबलो : ये... तुमच्या लग्नाच्या खेळांत हांव ना हां!

इश्णू : तूं नासल्यार नासूं, आमी तिगांय खेळटलीं! हांव जाता गो शाली तुजो न्हवरो!

कुश्ट : आनी हांवूय जाता गो. आमी दोगूय तुजे न्हवरे!

इश्णू : शी! एके व्हंकलेक दोन न्हवरे कशे जातले?

कुश्ट : जायनात कित्याक तर? पयर सकल्यावाड्यार कोण तरी उलयतना हावें आयकल्लें, ह्या शाली आनी बाबल्याले आवयक खंय धा गांवचे, धा जाण घोव आसलेले!

बाबलो : ये.... कुश्ट्या! भोंक कुसलेल्या! तोंड फोडटलों धरून हांव हां तुजें! म्हाजे मेल्ले आवयक फाजील उतरां दिता!

कुश्ट : तोंड फोडटलो? कापस्ताद आसल्यार फोड पळोवया!

बाबलो : हयी? अशें? घे!! (ठा करून कुश्टाच्या पोल्यार थापट फुलयता)

कुश्ट : थापट मारलें तुयें म्हाजेर बाबल्या? आं? आतां एक फावट न्हूं, धा फावट म्हणटलों हांव! ... तुजी आवय धा....

बाबलो : घे! खा ! खा भर्जी बरीं! (ठा! ठा! करून एकार एक दोन-तीन थापटां फुलयता.)

इश्णू : बाबल्या आसूं रे! मारनाका रे तेका, सोड.

शाली : भोगूं रे भाऊ तेचें.

बाबलो : तुमी कडेन सरात गो, इश्णू.... शाली! नातर तुमचेरूय फुलयतलों. म्हणटलो? म्हण्टलो केन्नाय परत अशें....?

इश्णू : ना, ना म्हणचो रे तो परत बाबल्या. हांव तेचो व्हडलो भाव तुका उतर दिता न्हूं! (तसो बाबलो कुश्टाक सोडटा आनी पडवेर वचून बसता.) ... आनी कुश्ट्या... तुकाय सांगतां, परतें तुयें असलीं पोजडेपणां उलयल्यार हांव बाप्पाक सांगोन तुका सङ्डीक लडो घालूंक लायतलो हां!

कुश्ट : ना! ना म्हणचो हांव परत! (ल्हव ल्हव हुंडकेता. कुश्टाचें हुंडकेवप चालू आसतना पयस धोल वाजिल्ल्याचो आनी कोणतरी ताच्या तालार डांगरो पेट्टल्यासारको ल्हव ल्हव आवाज आयकूंक येता.)

शाली : भाऊ.... कुश्टा.. तुमचीं झगडीं मात्शीं मागीर करात पळोवया. पयलीं हो तो रस्त्यावयल्यान कोण कितें म्हणत, वाजयत येता तें पळयात.

इश्णू/कुश्ट : खंय गो?

शाली : तो ऽ ऽ पळय, चांगेशा पायणींतल्यान देंवोन सकलेवटेन येता.

इश्णू : हय, खरेंच म्हगो.

कुश्ट : इश्ण्या, तो डांगरेकार बाप्पा म्हरे! शेर्त आज गांवांत कोणालींय पूण

झगडीं जाल्यांत. झगडीं जाल्यारच तो अशें वाजयत गांवपणाक सांगोंक भोंवता.

शाली : आमी या रे, तो कितें सांगता तें आयकूंक?

इश्णू : खंय या? तो हांगाच येता म्हुगो, आमगेल्या वाड्यार.

शाली : आरे, खरेंच म्हरे! भाऊ, पळय तो डांगरेकार बाप्पा येता.

बाबलो : डांगरेकार बाप्पा येवं, नाजाल्यार आनी कोण येवं! म्हाका कांयच सांगनाकात. तुमीच वचात तेच्या फाटल्यान.

इश्णू : राग सोड रे बाबल्या आतां, यो म्हरे तेका पळोवंक.

शाली : इश्णू, आसूं. नाका येवंक तो. त्या भावड्याचें सदांच तोंड कुसलेलें आसता.

इश्णू/कुश्ट : हय तर कितें! (तिगांय ताका हांसून पिशांत काडटात. बाबलो अदिकच तिडटा. येदोळ म्हणसर काळगो धोल बडयत, डांगरो घालीत थंय पावता. ताच्या अवताराक बाडगून तिगांय भुरग्यां एके कुशीक रावन, ताचो डांगरो आयकतात.)

काळगो : (60-65 वर्सांचो दादलो. जिवान बारीक बडिचो. कमराक म्हेळको वालो. ताच्या गळ्यांत धोल आसा, उजव्या हातांत तोणी. ते तोणयेन धोल वाजयत, खाशेल्या हेळ्यान तो डांगरो पेट्टा. डांगरो घालतां घालतां मर्दी मर्दी खोकता. मर्दींच ताका धांप लागता.)
ओ.... आयल्या वाड्यावयल्या.... पयल्या वाड्यावयल्या... उंचल्या वाड्यावयल्या... सकल्या वाड्यावयल्या.. कुकमापूर गांवच्या लोक-लोकांनो.. भटांनो, बामणांनो, देसायांनो, शेट.. मेस्त.. म्हार.... चामार... म्हालो.. कुमार-तेली, वाणी... गुरव... मडवळ.. गांवच्या धावूय कारक्यांनो... तुमी सगळ्यांनी, उबे आसा जाल्यार उबे आसले थंयच्यान, बसले आसल्यार, बसले थंयच्यान, न्हिदले आसल्यार, न्हिदले थंयच्यान, जागे आसल्यार, जागे आसा थंयच्यान, दोनूय कान दिवन आयकयात गा... फाल्यां दोनपारांचेर.. मध्यान येळाचेर... देव-देंवचाराच्या कार्याचें, कुकमाच्या देयीचें... कुकमापूर गांवच्या सात कुळयेचें उलो उतर... गांव-गांवपण काय घडोवंक, ह्या म्हालाच्या रायान..... रायरावतान काय तुमकां सगळ्यांक उलो-

शाद मारला गा..... तेन्ना, तुमी सगळ्यांनी, फाल्यां दोनपरांचेर... मध्यान येळाचेर... जेयल्यार जेयलें करून, हातार उदक पडल्यार, पडलां करून.... दादलो म्हणनासतना, बायल म्हणनासतना, हांथरूणाक लागलेलीं जाण्टीं आनी पाळण्यांत न्हिदलेलीं नेण्टीं सोडून, कुकुमादेयीच्या चौकार काय जमचें गा..... आनी जें काय धा जाणांलें उतर जाता.... बुदवंतांगेलें बुदवंतपण जाता.. तें कानभर आयकून, दोळेभर पळोवन.. तुमतुमगेले जिबेन.. हयाक हय मांडचो गा...

(वाजोवपाक नेट दिता तशी काळग्याक अदिकच धांप मारता, तो हेवाटेन तेवाटेन पळयता आनी यमनेआकाल्या आंगणाकुशीच्या आंब्याचे सांवळेक बसता. खांदावेल्या सटक्यान हूम पुसून, थोडी उसरपत घेता, किरंवटीची चंची काडून सुपारे कुडको तोंडांत वडयता आनी मागीर आपलेच मर्दी उलयता.)

पाड पोडों, आतां जायना ही शिरयीस देवा. दोन वाड्यार भोंवतां म्हणसर धांप मारता! व्हडलो चेडो म्हण्टा, बाप्पा ही शिरयीस आतां करनाका. आपल्याक लज दिसता. तो मॅट्रीक शिकता न्हूं! पूण लज दिसोन कितें जाता, पेज नाका? तो जोडीक लागसर म्हाका हो धोल बडोंकच जायो न्हूं! ह्या धोला शिरयीसेक लागोन ह्या गांवांत थारो मेळ्ळा आनी पोटाक पेज मेळ्ळ्या. फाल्यां ही शिरयीस करना म्हटल्यार म्हाका गांवांत कोण रावंक दिवंचो आसा? ... रायरावत सामको लावोन दितलो गांवभायर! ... आनी फाल्यां चेड्याक सरकारांत बुसोन शिरयीस मेळ्ळी म्हुणोन म्हाज्यान ही शिरयीस थांबोवूंक येता? खंय कोणाकाळार पुर्वजान हातींत घेतलेली ही तोणी म्हाजेमेरेन पावल्या, म्हाज्या जिवांत जीव आसासर तरी ती म्हाका धोलार मारूंकच जायी! फाल्यां चेडे कितेंय करूं, तेची जाप त्या म्हारांगणाक आनी त्या कुकमामायेक ते दितले, म्हाज्यान ती आज दिवंक जावंचीना!.....

(काळगो आपल्याच येवजण्यांनी घुस्पल्लो आसतना इश्णू, कुश्ट आनी शाली ताच्या म्हऱ्यांत वतात. आतां तांचो भंय थोडो उणो जाल्लो आसता.)

इश्णू : ये... डांगरेकार बाप्पा ऽ ऽ डांगरेकार बाप्पा! खंय कितें आसा रे?

कुश्ट : कित्याक वाजयता रे तूं आज?

शाली : गांवांत कोणलीं झगडीं बी जाल्यांत कांय कितें रे?

काळगो : (भुरग्यांक आपल्याक तेंकून आयल्यांत तीं पळोवन मातसो कुशीक सरता.) झगडीं न्हूं रे पोरांनो, कुकमादेवीची जात्रा आसा फुडल्या सोमनांत गांवांत!

इश्णू : जात्रा?

शाली : आवयूस, मज्जा!

कुश्ट : केन्ना रे? खंयच्या दिसा?

काळगो : आरे, मंगळारा दिसा रे पोरांनो!

इश्णू : पूण बाप्पा...... वर्सान जाता म्हरे देयी जात्रा गांवांत, पूण तूं सदां असो खंय सांगोक भोंवता? फकत कोणालीं झगडीं जाल्यारच सांगोंक भोंवता म्हरे तूं गांवांत!

काळगो : अंदू जात्रेक लागोन सांगोंक भोंवपाचें तशेंच कारण आसा रे पोरा. (शालीकडेन पळयत कवतुकाच्या आवाजांत) तूं तूं.... यमन्याली नात न्ही गो?

शाली : हय बाप्पा.

काळगो : तुजेखातीर बाये अंदू हें जात्रेचें गांवपण आपयलां रायरावतान मुद्दाम.

शाली : म्हाजेखातीर? म्हाजे खातीर कित्याक?

इश्णू/कुश्ट : हेचेखातीर? ह्या शालग्याखातीर? (खो खो करून हांसतात)

शाली : म्हाजेखातीर कित्याक रे बाप्पा? हायें कांय कोणाकडेन झगडीं केल्लीं ना.

काळगो : झगड्यांच्या कारणाक न्हू गो बाये, बऱ्याच्या कारणाक.

शाली : बऱ्याच्या? कसल्या बऱ्याच्या?

काळगो : आगो तें सांगोंक म्हाका उतर ना गो धा जाणाचें. म्हाजें काम फकत गांवपणाक लोकांक कळीत करपाचें. थंय कितें आनी कात करतले, तें बुदवंतांनी थारावपाचें.

इश्णू : पूण तूं सांग रे आमकां.

शाली : आमी तुजें नांव कोणाक सांगनात रे.

कुश्ट : सांग रे बाप्पा.

(सांग सांग म्हणत तिगांय काळग्याच्या फाटीक लागतात.)

काळगो : हेट्ट....हेट्ट.... पयस रावात.. पयस रावात! पाडपडल्यांनो म्हाका आपडुनाकात! म्हाका आपुडल्यार तुमचे हे कपडे काडोन म्हाका दिवचे पडटले आनी तुमकां नागड्यांनी घरा वचचें लागतलें! जाणांत म्हुगो तुमी? (भुरगीं पयस सरतात.)

शाली : हय जाणात रे, पूण आमी आपुडनात रे तुका. तूं मातसो सांग न्हूं रे बाप्पा, म्हाका लागोन फाल्यां कित्याक गांवपण आपयलां तें!

(तेन्नाच बाबलो तिरमिरीत पडवेवेल्यान देंवन सकल काळग्या म्हऱ्यांत येता.)

बाबलो : तुमी सरात कडेन पळोवया. हांव पळयतां कितें जालां तें! बाप्पा, कितें सांगतालो रे तूं आतां? म्हाज्या भयणीक लागून कित्याक गांवपण आपयलां रायरावतान? कितें केलां म्हाजे भयणीन!

काळगो : तुज्या भयणीन कांयच वायट केलें ना रे पोरा.

बाबलो : मागीर? तिच्या नांवान गांवपण कित्याक?

काळगो : सांगलें न्हू रे चेड्या हायें, म्हाका कारण सांगोंक गांवच्यांलें उतर ना म्हुणोन. घरा येतकच तुजे आज्जेकडल्यान कळटलें तुका, तिका सकाळीं आपोवन व्हरोन सांगलां रायरावतान.... आनी हें पळयात पोरांनो, आतां हांव रावतावाड्यार वयतां... तुमी कोण म्हाजे फाटल्यान येवंची गरज ना हां. येयल्यार तुमकां बाटोवन हांव म्हज्या घरा घेवन वयतलों? कळ्ळें?

तिगांय भुरगीं : हय, कळ्ळें कळ्ळें.

काळगो : चला, वचात आपआपल्या घरांत भितर. हांव वयता म्हाजे वाटेन.... ओ..... आयल्या वाड्यावयल्या, पयल्या वाड्यावयल्या....

(डांगऱ्याचो आनी धोलाचो आवाज पयस गेल्ल्यासारको ल्हव ल्हव जायत थांबता. तेन्नाच बाबलो धावूंक लागता.)

शाली : ये भाऊ, तूं खंय धांवता रे?

बाबलो : हांव देवळाकडेन वयता गो आकाक विचारूंक! तुजेखातीर कित्याक गांवपण आपयलां तें!

शाली : मागीर राव म्हरे, हांवूय येता.

बाबलो : तूं नाका गो, तूं घराकडेन राव. दार उगडें आसा घराचें.

शाली : ना! हांव येतलें! (धावूंक लागता)

इश्णू/कुश्ट : शाली राव म्हुगो, आमीय येतात तुजेबरोबर...., आमकांय कळूंक जाये न्हुगो, कितें घडलां तें!

(शाली फाटोफाट तेवूय धांवतात. पार्श्वगीत सुरू जाता.)

**दडला रे कसलो घूट,**
**सांग रे काळा, तुज्या पोटांत?**
**काळग्याची रे तोणी**
**पडल्या आज धोलार!**

(देखाव सोंपता)

## देखाव : 2

(यमनेआकालें घर. यमनेआका भितर आसा. देखाव सुरू जाता तेन्ना इठ्ठल आंगणांतल्यान उलो करीत पडवेर वयर सरता. इठ्ठल चाळीसीच्या लार्गी आशिल्लो बारीक आंगलटीचो, थोडोसो बायकी दिसपी दादलो. स्पश्टपणान आपलें मत मांडूंक भियेवपी.)

इठ्ठल : आका...... ये, यमनेआका!
यमने : (भितरल्यान) ओ ऽऽ! कोण रे?
इठ्ठल : हांव गो तो, इठ्ठल.
यमने : इठ्ठल? आं, बस रे बाबा. येतां.
इठ्ठल : बसतां गो, तूं तुगेलें कर काम सुशेगादीन!
यमने : (थोड्यावेळान यमने पदरान तोंड पुसत भायर येता आनी सू ऽ ऽ असो आवाज करून इठ्ठलामुखार बसता. यमनें, सत्तरीक पाविल्ली जाण्टी बायल. सभावान मायेस्त, पूण परिस्थितीन बागवल्ली.) चड वेळ बसचें पडलें रे तुका इठ्ठल?
इठ्ठल : ना गो, चड खंय? आतांच आयलां हांव! तूं कितें करतालें तर भितर?
यमनें : कांय ना रे, पोरांक दोन गोटे शिजयतालें!
इठ्ठल : रांदचेंच आसलेलें आजोन? दोन वरां जालीं म्हगो. लोकालीं जेवणां जिरलीं. इतलो येळ रांदपाचें सोडून कितें करतालें तर तूं?
यमनें : खंय कितें करतालें? देयिले सिरयिसेसाकून परत येता म्हणसरच दनपार जाली. तुगेलें कितें? आरत्यो जाल्यो, वाजपां थापायलीं, तूं येयलो घरा! म्हाका सगळें जाग्यार घालून, दिवल्यो-आयदनां घांसून येवचें पडटा न्हूं रे! (थकिल्ल्या आवाजांत) जायना रे इठ्ठल म्हज्यान आतां पयलीं सारकें झपझपीत काम. जाण्टेपण जालें ना रे? ... आनी पोरूं तो काळजाक घायो जायत साकून सामकेच हात-पांय चलनात म्हाजे.
इठ्ठल : जाणा गो आका, समजता गो तुजें मन म्हाका. पूण कितें करचें? मनशां हातींत कितें आसा? सगळीं घडितां ती देवळांत बसलेली मायाच घडयता.

यमनें : काळजाक फकत घायोच जाल्लो जाल्यार तेची दूख घेवन उरलेलें आयुश्य काडूं आसलेलें रे हांव. पूण वांट्याक हीं दोन नेणार पोरां. तेंची जबाबदारी कशी पेलची ह्या मोडक्या पांयांनी? तरी तुमी शेज-सामारी वेळ-परसंगाक उबे जातात म्हुणोन म्हाजो परिणाम... तुजो बापूय रंगा गेलो, पूण तुवेंय अंतर दिलेंना रे म्हाका....

इठ्ठल : आका... एक सांगू... वायट धरचें ना म्हुगो?

यमनें : तुयें आनी कितेंय सांगल्यार हांव वायट धरता रे पापया? ... सांग, कितें सांगपाचें तें.

इठ्ठल : शाली आतां व्हड जालां गो.. तूं ... तूं आतां तेका मातशें आदाराक व्हरूंक लाग देवळांत.

यमनें : थुमेकाल! थुमेकाल! नाका रे त्या पोराच्या वाट्याक आनी तें यमकोंड! आमच्या फुटक्या नशिबान आमकां एक तें फावो जालें तितलेंच पुरो.

इठ्ठल : पूण.. पूण आका.. आयचो.. आयचो डांगरो, फाल्याचें गांवपण... म्हाज्या कानार येयलां ते बशेन.. खरें तर हांव हांगा आतां तेचीच खरीखोटी पळोवंक येयलेलो.

यमनें : तुज्या कानार कितें येयलां तें सगळें खरेंच रे. पूण तें घडूंक हांव दिवचेंना... हांव.. हांव फाल्यां धा जाणांक हात जोडटलें... रायरावताच्या पांयार उडी घेतलें... आनी तेका पाराथतलें, म्हाज्या पोराच्या माथ्यार दिवज दवरूं नाकात म्हणोन.... शांतुलावेळार...... म्हाज्या धुयेवेळार हांव चुकलें रे! चेडवांक शेंस घालपाक सरकारान बंदी घातल्या हें जाणां जावनय, हांयें मात तिका फाटली वयवाट म्हुणोन आनी ह्या गांवाक आनी देवाक भियेवन घरा दवरली. त्यावेळार चेडो भुरगो नासलेलो रे म्हाज्या कुश्याक, एकटीच धूव. तिका लग्न करून दुसऱ्याला घरा दिल्यार म्हाका म्हातारपणांत ताळ्यार पेज घालपी कोण उरचोना म्हुणोन तिका गुपचूप लिपया-चोरयां देयी देवळांत व्हरोन होम घातलो... रिती परमाणे होम घातले बराबर येयले जात्रेक तिच्या माथ्यार, म्हाज्या माथ्यावयलें दिवज काडून दवरलें. पूण घडलें कितें? म्हातारपणाची पेजय ना जाली आनी धूवय ना जाली. (व्हडल्यान हुंडकेता)

इठ्ठल : आसूं गो आका, नाका त्यो काडूंक आतां फाटल्यो यादी.

यमनें : तेदेवेळार म्हाज्या कुश्याक चेडो भुरगो नासलेलो रे इठ्ठल, आसलेलो जाल्यार घडये हांव तेन्ना धुयेक घरा दवरचेंच नासलेलें... पूण.... पूण आज तसो परसंग ना. कसोय जावं, वायट-बरो म्हागे धुयेच्या कुसव्यांत जल्मल्लो एक चेडो भुरगो आसा. जायेंच जाल्यार तेज्या माथ्यार हांव दिपमाळ दवरता म्हुणोन सांगतलें हांव रायरावताक.

इठ्ठल : तुका दिसता, आयकतलो म्हुणोन तुजें हें सांगणें रायरावत?

यमनें : आयकुवंचो कित्याक ना? चार-चौगांत, मोठ-मोठ्यामदीं, शारां-नगरांनी भोंवता म्हरे तो. संवसार कितलो बदल्ला तें खबर ना तेका? आतां काळांत कोण जातात देवळणी आनी भावणी! आदल्यो कोण आसात त्योच करतात देवाची सिरयीस. तशें पळोवंक गेल्यार त्यो तरी खरेपणी खंय शिरयीस करतात रे? जात्रे दिसा म्हालखांब पेटयतना एक केन्ना देवाचें गाणें म्हणटात, ना तर उत्सवाक-परवणेक चौकार येवन थोडो वेळ कुलो तेंकोवन वतात. देवळांत शिरयीस करचीच जाल्यार ती घराण्यांतलो दादलो करता! आमचोच हो कुकमापूर गांव वुंवाळून वडयलेलो! होच गांव आजोन दसोन आसा फाटल्या सगळ्या चाली-रितींक! ... पूण आतां हांव तोंड उगडटलें! रायरावताकडे भीक मागतलें! तो तसो मनान बरो रे... आनी म्हाका तो खूब मान दिता. म्हाजें उतर तो सकल वडवंचोना. ... कितें पूण मार्ग काडटलो! .. तशें पळोवंक गेल्यार शाली तेच्याच रगताचें भुरगें न्हूं रे?

इठ्ठल : तुजीं दोगांय नातरां रायरावताच्या रगताचीं म्हुणोन तूं आनी हांवूच न्हूं, तर आख्खो कुकमापूर गांव जाणा... पूण जाणप आनी मानप हेतूंत फरक आसा गो आका. ना तर तुका तेंचेखातीर ह्या म्हातारपणांत हात-पांय धाडोवंचे पडटले आसलेले? आवय मरतकच रायरावतच तेंचो पत्कर घेता आसलेलो, आनी राजरोस आपल्या घरा व्हरोन आपल्या दोगांय भुरग्यांबरोबर ह्या भुरग्यांकय वाडयतासलेलो!

यमनें : हेंवूय तुजें खरें रे बाबा. एक वर्स जायत येयलें म्हाजी धूव हो संवसार सोडून गेल्यार! ह्या वर्सभराक तेणें फकत एक साक भात तितकें पिकेर धाडून दिलेलें, पोरांक शिताक म्हुणोन. एक साक भातान दोन

पोरांचें वर्साचें पोट भरता? .. आनी पोरांक कितें सुकें शितच घालतलें? तेका भिजवणें, तोंड लावणें कांय नाका? ह्या शिवाय तेंचे वखद-पाणी, शिकप-बरप सगळें आसा. देयी शिरयिसेचो, इल्लो कितें भेटोचो वांटो दिसपट्टो मेळटा आनी येदोसो शेताकुणगो हांव खणोन रोयता, म्हुणोन आयचो दिसमेरेन कसो तरी हांयें तेंचो परतिपाळ केला... फाल्यांचें मात म्हाज्यान कांयच सांगोंक जायना रे. तें ती देवळांत बसलेली म्हामायूच जाणा.

(इतक्यांत शाली धांवत आंगणांतल्यान पडवेर येता)

शाली : आका ऽऽ आका ऽऽ, तूं हांगा आसा? हांव तुका देवळाकडेन सोदूंक गेल्लें म्हुगो!

यमनें : म्हाका सोदूंक? कित्याक? बाये, कितें जालें?

शाली : आका... म्हाका लागोन फाल्यां आपान गांवपण आपयलां हें खरें गो?

यमनें : तुका कशें कळ्ळें?

शाली : तो डांगरेकार बाप्पा सांगतालो म्हुगो म्हाका... पूण तेणें कित्या कारणाक तें मात सांगलें ना. तें तुकाच विचार म्हुणोन सांगलां तेणें. ये आका.. सांग गो कित्याक तें! हांयें कांय कोणाकडेन झगडीं बी केली नात. मागीर म्हाका लागून कित्याक गांवपण आपयलां गो?

इठ्ठल : शाली, आगो येता ते कार्तिक पुनवेक तुयें कुकमादेयीची दिमपाळ....

यमनें : (इठ्ठलाक मर्दीच आडावन) इठ्ठल नाका ! तेच्या आनी कानार नाका. आमी जाण्टींच पळोवन घेवया कितें तें ! (विसरायेर घालपाचे पध्दतीन) शाली, आगो त्यो गांवपणाच्यो खबऱ्यो आमी मागीर करया. पयलीं तूं आनी बाबलो जेवन घेयात पळोवया. चल, बाबलो खंय आसा तो तेका आपोवन हाड. तुमकां दोगांयकय वाडटा हांव.

शाली : खरें म्हुगो आका? जेवतकच सांगता म्हुगो म्हाका?

यमनें : हय गो, सांगता.

शाली : आगो, भाऊय गेल्लो तुका सोदूंक देवळाकडेनच. तेकाय तूं मेळ्ळें ना. थंयच्यान मागीर तो खंय गेलो, म्हाका खबर ना. घडये शाळेडेन बसला आसतलो. थंय वचोन एकटोच बसपाची संवय आसा तेका.

हांव आपयता तेका. भाऊ.... ये भाऊ ऽऽ. आका जेवंक वाडटा रे भाऊ, यो बेगीन घरा!

इठ्ठल : जेवलें म्हणटकच हें लुचक सांग म्हुणोन परत लागतलें आका तुजे फाटीक.

यमनें : लागूं रे. हांव खंय बदता तेका. चडूच हट्ट केल्यार एक धेंकणो घालतां. मागीर बसतलें ओगी तोंड धांपून.

इठ्ठल : बरें तर आका. हांवूय वयतां आतां घरा. मातसो कांसाराकडेन वचपाक जायें. शेनायेची पासण सुटल्या ती पासून घेवूंक जायी. जात्रा तोंडार पावल्या न्हूं. (वचपाक वता. पूण याद जावन आंगणांतल्यान फाटीं परतता.) आं.. आनी कितें जाणा म्हुगो? तूं फाल्यां मातपूण भिडेनासतना मनांतलें सगलें उलोवन दाखय धा जाणां मुखार. हांव आसा तुज्या फाटल्यान.

यमनें : तुज्याच धिरार तर हांव फुडें सरलां रे पुता. ना जाल्यार आनी कोण आसा म्हाका...

(यमनें दोळ्यांक पदर लायता. इठ्ठल भायर सरून वता. यमनें कांय वेळ तेच स्थितींत उरता. तितलो वेळ मेरेन पार्श्वसंगीत आयकूंक येता.)

**अखंड आयावपणाचे गे वर**
**जालो जल्मजुगाचे घात**
**जल्म सवाशीणपणाचो गे मान**
**नाका देवा आनीक अपमान**
**भगतिणीची जाली भोगदासी**
**दिपमाळेचें दिवज उशटवाऱ्यार**
**देवीच्या मानाचो पयलो विडो**
**पडलो वाटेवयल्या गे तुमांत!**

(पार्श्वसंगीत थांबतां थांबतां बाबलो आनी शाली पडवेर भितर सरतात.)

बाबलो : आका, म्हाका एक खरें तेंच सांग गो!

यमनें : कितें रे पुता?

बाबलो : आका, फाल्यां आपान शालीक लागोन गांवपण आपयलां गो?
(यमनें वोग्गी)

बाबलो : सांग गो आका.

यमनें : बाबू, तुका हें कोणें सांगलें?

शाली : त्या डांगऱ्याकार बाप्पान न्हूं रे!

बाबलो : तूं चूप्प बस गो. सदांच मर्दी पडलेलो दांत कशें उलयता. आका, सांग गो बेगीन म्हाका. तुका मेल्ले आईचो सोपूद आसा....!

यमनें : बाबू..... बाबल्या... पोरा... म्हाज्या काळजा गोंड्याचो सोपूद कित्याक घातलो रे तुयें? आतां तुका सांगचेंच पडलें पोरा... आयक! तुज्या आपान शालीक लागोन गांवपण आपयलां हें खरें, कारण अंदू जात्रेक शालीन दिपमाळ नाचोवची म्हुणोन इचार आसा तेचो!

बाबलो : कितें???? शालीन दिपमाळ नाचोवपाची? ... पूण कित्याक?

यमनें : पुता, तुजी आवय नाचयताली न्हूं रे ती इतकीं वर्सां! आतां ती ना.. म्हणटकच तिची वारी आपसुकच शालीकडेन येता न्हूं रे.....!

बाबलो : पूण शालीकडेनच कित्याक? गांवांत इतक्यो बायलो आसात! .. आपाची बायल.. व्हडली आई आसा!

यमनें : ना रे पुता.. तेंकां कोणाकच ती नाचोवपाचें देयीचें उतर ना! ती फकत आमच्याच घराण्यान नाचोवपाची!

बाबलो : पूण कित्याक आका?

यमनें : आरे पोरा, ही दिपमाळ खंय आमचे खातीरच देयीन रचलेली!

बाबलो : पूण ही दिपमाळ म्हणजे कितें आका? कित्याक नाचयतात ती गांवांत?

यमनें : पुता.. ही दिपमाळ म्हणजे देयीच रे! देयीनच ह्या गांवांत नश्टें – पाडें भितर सरचें न्हूं म्हुणोन दिपमाळेचें रूप घेतलां आनी तिनी त्रिकाळ आनी चारीय पारार ती गांवांत उजवाड घालीत रावल्या. दिपमाळेचें रूप घेतकच तिणेंच काडून खंय ती आमच्या घराण्यांतले म्हाल-जाण्टेच्या माथ्यार दिली आनी गांवच्यांक सांगलें खंय, हे फुडें तीच ह्या घराण्यांतल्या बायलेच्या रूपान गांवांत वावुरतली म्हुणोन. आमकां

'देवळण' हें नांव देयीनच दिलां आनी तेन्ना साकोनच आमच्या घराण्यांतली बायल ही दिपमाळ नाचयता.. ती नाचयली ना जाल्यार गांवांत औरां-मोडां येतलीं...दुकोळ पडून हे भुंयेचो निप्पात जातलो...

बाबलो : दिपमाळ म्हणजे देयी, आनी ती नाचोवपी बायल म्हणजे देयीचेंच रूप जाल्यार मागीर लोक जात्रेदिसा आईकडेन पळोवन कित्याक फिदी फिदी करून हांसताले तर गो?

यमनें : हांसताले ते अबुध्द रे बाबा... तेंकां देयीच पळोवन घेतली. तिचो म्हयमा तेंकां खबर ना!

बाबलो : दिपमाळेचो अर्थ कितेंय आसूं आका, तूं म्हाका खरें तें सांग.. तुका खऱ्यांनीच शालीन दिपमाळ नाचयल्यार जाता?

यमनें : आं? ... ना.. .ना.... हय... हांव खंय म्हण्टा.. सकाळीं तुज्या आपान म्हाको आपल्या घराडेन आपोवन व्हरून जें म्हटलां, तें तुका हांयें सांगलां... पूण तेणें म्हटलें म्हुणोन कितें जाता? धा जाणांनी, गांवच्या पांचय बुदवंतांनी उतर दिवूंक जाये न्हूं रे?

बाबलो : हे धा जाण आनी ते बुदवंत कोण गो, आमगे शालीच्यो जायण्यो करणारे?

यमनें : शीव ! शीव! तशें म्हणनात रे पोरा. धा जाण म्हणजे देयीसमान! तेंचो अपमान केल्यार देयीचो अपमान केल्लेबशेन जाता... पयलीं पोलो फोडून घे पळोवया !

बाबलो : बरें फोडले. चूक जाली म्हाजी. परतून केन्ना हांव तेंकां कांय म्हणपाचो ना.. पूण आका, तुका हांव एक मात सांगतां.. किदेंय जालें, कोणेंय सांगलें, तरी शालीन जात्रेंत मात कशेंच नाचपाक जायना. तूं जाणा आका? आई जात्रेंत दिपमाळ माथ्यार घेवन नाचपाक लागली म्हणटकच, जात्रेक येयलेले दादले-चेडे तिका पळोन कसलीं कसलीं फाजीलपणां उलयताले ते? आजूनय याद केल्यार म्हाका कितें जाता...!

यमनें : कोणेंय कितेंय म्हटलें म्हणून तें आमकां लागना रे. तें देयीक लागता. आमी तिचेखातीर नाचतात, लोकांखातीर न्हूं.

बाबलो : ना आका... जात्रेंतच लोक आईक फाजील उतरां उलयताले जाल्यार

बरें आसा... पूण.... पूण गांवांतय ... लोक... मास्तर...

यमनें : गांवांत... गांवांत... कितें पोरा? ... मास्तरान कितें केलें? सांग.. सांग पळोवया!

बाबलो : ...म्हाका तो दीस घट्ट याद आसा आका. आईन तुका सांगनाका म्हुणोन सोपूद घातलेलो म्हुणोन तुका आजमेरेन सांगलें ना हायें! पूण आतां आईच ना म्हण्टकच....

यमनें : सांग पोरा.. कितें केलें मास्तरान?

बाबलो : चार वर्सां पयलीं म्हाका पयले वर्गांत नांव घालूंक आई शाळेंत घेवन गेलेली.. जाल्यार मास्तर म्हुणूंक लागलो, बापायचें नांव सांग! .. आईन सांगलें, तेका बापूय ना.. म्हाजेंच नांव लाय! ... मास्तरान तेचेर विचारलें, बापूय ना कित्याक? आईन म्हटलें, ... आमच्या घराण्याच्या भुरग्यांक बापायचें नांव लागना.. आवयचेंच लागता. तशें मास्तरान आईक हळशिकावणे नदरेन पळयलें आनी खी खी करून हांसत म्हणूंक लागलो.. 'म्हणजे.. तूं... तूं नायकीण ...'

यमनें : बंद कर! .. बाबल्या बंद कर! फुडें आनी सांगूं नाका! म्हाज्यान आयकूंक जायना!

बाबलो : मास्तरान तशें म्हण्टकच वर्गांत बसलेलीं सगळीं भुरग्यांय खी खी करून हांसोंक लागलीं. आईन लजेन मान सकल घातली. तिचें तोंड रडकुरें जाल्लें. तिका तशी पळोवन म्हाका मास्तराचो संताप मारलो. तेचें तोंडच फोडचें दिसलें. पूण आईन म्हाज्या हाताक घट्ट धरून वोडीतच म्हाका घरा हाडलो. म्हाका खरें त्या शाळेंत वचोनच दिसनासलेलें गो, पूण आईन सांगलें, 'बाबल्या, शाळेंत वचून शीक आनी खूब व्हडलो जा! म्हाजें आनी आकाचें नांव वयर काड!' म्हुणून आईच्या उतराक म्हाका त्या मास्तराच्या शाळेंत वचचें पडलें. त्या दिसा म्हाका एक कळ्ळें... आई जात्रेंत दिपमाळ नाचयता म्हुणोन तिका तें नांव पडलां.. त्या नांवाचो अर्थ म्हाका खबर ना... पुणोन त्या नांवांत कितें तरी वायट नक्कीच आसा इतकें हांव जाणा आका!

यमनें : कोण तशें उलयतात तेंच्या तोंडांत किडे पडूं रे! ... आरे, आमी कितें बाजार बसव्यो रे? ... आरे, आमी देयीच्यो भगतिणी म्हरे! आमचो

जल्म ह्या कुकुमादेयीखातीर, ह्या कुकमापूर गांवाखातीर ओंपला म्हरे आमी!

बाबलो : चार वर्सां जायत येयलीं हे खबरीक आका... पुणोन मास्तराचो तो हांसो म्हाज्या तकलेंतल्यान कसोच वचना! मास्तरान आईक म्हटलेलें तें उतर आजुनय म्हाज्या काळजाक सुरी कशी तोंपता गो!

यमनें : रडनाका रे पोरा.... वोगी.. ! तूं रडोंक लागलो म्हण्टकच म्हाजेंय काळीज फुट्टा रे!

बाबलो : आईक मास्तरान म्हटलें तें म्हटलें गो आका.. पुणोन शालीक आनी कोणें कांयच म्हुणोंक जायना! .. म्हाजी अपुरबायेची भयण म्हुगो ती....!

यमनें : आसूं बाबल्या, भोगूं तो विशय आतां! कितें करपाचें तें आमी फाल्यां पळोवया... आतां तूं दोन गोटे खावन घे.. वेळ केदो जालो पळय!

बाबलो : जेवपाचें बरें आसा, पूण तुका एक सांगता आका, शालीन जात्रेक नाचूंक जायना म्हणजे जायना. तूं कितेंय कर, पूण आपाक आनी बुदवंतांक सांग.. आमगेलें शाली जात्रेक नाचचें ना, म्हणजे नाचचें ना म्हुणोन! तुज्यान सांगूंक जावचेंना जाल्यार हांव फाल्यां सभेमुखार उबो रावन सांगतलों ! ... ये रायरावतानो... गांवच्या बुद-बुदवंतांनो... शाली.. ह्या यमनेआकाली नात, शांतुलाची धूव आनी ह्या बाबल्याची भयण... केदीच जात्रेक नाचची ना! (थंयच घट जाल्लेवरी उबो रावता. पार्श्वसंगीत आयकूंक येता)

**पुर्विल्ली वयवाट**
**आज हांव मोडटलों,**
**पेट्टी मशाल घेवन**
**नवी दिका सोदतलों !**



(यमनें आनी शाली त्याच्या अवताराकडेन भंयाभीत जावन पळयता आसतनाच स्टेजीर ल्हव ल्हव काळोख जाता. देखाव सोंपता.)

## देखाव : 3

(देवळाचो चौक. मुखार देवळाची गर्भकूड. चौकार मर्दी एक आसन मांडून दवरलां. देवस्थान पोरनें म्हणपाचें भायल्या सजावटीवेल्यान लक्षांत येता. देखाव सुरू जाता तेन्ना एक एक करून गांवच्यो दादले-बायलो चौकार येतात. दादले सगळे मुखार येवन बसतात, बायलो पयस कुशीक चोमो करून रावतात. गांवचे पांचय बुदवंतय थंय एक एक करून येवन बसतात.)

दादलो 1 : आरे,वेळ जालो समजून हांव कसो धांवत आयलो जाणां?

दादलो 2 : तूं तरी धांवतच आयलो! हांव वाडलेलें पान कडेन सारून येयलो, कुंकार कानार पडटरेर.

दादलो 3 : दुसरी कुंकार रे ती. तिसरेक आजोन कळाव आसा. रायरावत येवंक जायो

दादलो 4 : आरे, पूण आज रायरावताक कळाव जालो सो?

दादलो 5 : तेचें कितें? गांवचो मुखेल तो. सगळ्यांनी येतकच तेणें येवपाचें! आमचें पयलीं तो येवंचो ना! (ल्हान भुरगें रडलेल्याचो आवाज.)

दादलो 6 : आगो बायलांनो, तुमी भुरग्यांक रडयनाकात. रायरावत येवंचो जालो. दुदाक जाल्यार दुदाक धरात तेंकां.

दादलो 7 : ... आनी हें पळयात, रायरावत येतकच तुमचें कुचकुचू थांबयात हां. पाड पडलेली बायलांची जात, तोंडां हेंचीं फोत कशीं व्हांवत आसतात. (बायलांचो आवाज एकदम बंद.)

दादलो 2 : पांडू, आरे रायरावताचें बरें आसा रे, पूण आजून यमनें कशें येयलें ना?

दादलो 3 : येयलें ना कितें? ... शंभर वर्सां आयुश्य तेका.. हें पळय येता लकत.. नातू आसा तेचेबरोबर. हें पळय म्हारांगणाकडेन पावलां.

दादलो 1 : बरी हुशारी ना म्हरे तेच्या तोंडार.

दादलो 4 : हुशारी कसली आसतली रे? हायें आयकलां, तेच्या मनांत ना म्हुणोन नातीच्या माथ्यार दिपमाळ दिवपाचें.. आनी आज तें सभेक तशें

सांगपाचें आसा म्हुणोन....

दादलो 3 : तेचें म्हुणोन सारकें रे, आतां काळांत असल्यो चाली कोण करतात? तेच्या नातीक नोंत पडचें ना?

दादलो 4 : तेच्या नातीक नोंत पडटलें तें बरें आसा रे पूण गांवचें कशें? गांवची दिपमाळ कोण नाचयतलो....?

दादलो 3 : आं.. हय.. तोवय प्रश्न आसाच रे.

बुदवंत 1 : गप्प बसात रे. बुदवंतांनी करपाच्यो जायण्यो तुमी करनाकात. (तशे सगळे गप्प जातात. इतक्यांत बाबल्याक हाताक धरून यमनें लकत लकत चौकार येता. त्या वेळार पार्श्वसंगीत आयकूंक येता)

**कुडींत उरलो ना त्राण तरी**
**पांयांत बळगें हाडचें आसा**
**अंदल्यांत उतरां गळ्यांत तरी**
**सूर नवे सोदचे आसात.**

(यमनें येतकच फाटोफाट इठ्ठल येवन बसता. मागीर ताचे दोगूय पूत इश्णू-कुश्ट बापायच्या फाटल्यान दपत दपत थंय येवन बायलां कुशीक बसतात. कांय वेळ कोण उलयनात, सगळे जाण रायरावताची वाट पळयतात. थोड्यावेळान रायरावताची गाडी थांबिल्ल्याचो आवाज कानार पडटा.)

दादलो 8 : येता रे, येता. हो पळय रायरावत येता. ये... हेत्या चेड्यांनो, घालात रे तिसरी कुंकार, येवंदी कोणूय चुकून माकून उरल्यार. (तरणे भुरगे उठून व्हडल्यान कुंकार घालतात, ती बसता म्हटल्यार रायरावत येता.) येयलो रे, रायरावत येयलो! राया येयलो!

दादलो 9 : आरे, गप रे सगळे. रायरावत पावलो चौकार.
(रायरावत हो पन्नाशींतलो दादलो. गांवचो मुखेली जाल्ल्यान सभावांत करारीपणां आसात, तरी एका कोनशाक मायेची ओलसाणय आसा.)

दादलो 10 : काळग्या..ऽऽ तुज्या वाजपांक नेट चडय रे, रायरावत बसला तेज्या आसनार.

(काळगो धोल नेट-नेटान वाजयता, रायरावत आपल्या आसनार वचून बसता)

रायरावत : बसात, बसात. सगले जाण बसात. गुरवा, कर रे तुजो मानाचो तिळो. (इतको वेळ गर्भकुडींत बसलेलो गुरव एका तबकांत पिंजर घेवन चौकार येता आनी रायरावताक तिळो लायता. मागीर तबक बुदवंतांमुखार आनी हेर दादल्यांमुखार भोंवडायता. सगळे पिंजर काडून आपल्या कपलाक तिळो लायतात. हो वेळमेरेन काळग्याचें ल्हव ल्हव वाजप चालू आसता.)

रायरावत : जमले रे सगळे चौकार?

दादले : हय सायबा....

रायरावत : भट-बामण येयले रे?

दादले : हय सायबा..!

रायरावत : शेट-वाणी येयले?

दादले : हय सायबा...!

रायरावत : देसाय येयले?

दादले : हय. येयले!

रायरावत : पांचय मानाचे पांच बुदवंत पावले?

बुदवंत : हय पावले....!

रायरावत : धावूय कारकी येयले?

खूब लोकांचो आवाज : हय सायबा...!

रायरावत : देयीची देवळण येयली?

यमनें : येयली..

रायरावत : बसले रे सगळे सभेमाजार?

खूब आवाज : हय सायबा.. हय सायबा!

रायरावत : करया म्हरे सुरवात सभेक?

खूब आवाज : हय सायबा...

रायरावत : वाजप थांबय रे धोलकारा. (काळगो चप्प करून वाजप थांबयता) तर... कुकमापूर गांवच्या गांवलोकांनो.. आज हें गांवपण, ही सभा एका खेरीत कारणाखातीर हायें आपयल्या. येता त्या मंगळाराक,

कार्तिक पुनयेक, म्हणजे आयच्यान सारक्या पांच दिसांनी, हो कुकमापूर गांव जल्माक घालतल्या कुकमादेवीच्या, सवायशिणीच्या कपलावयली कुकूम अखंड दवरपी ह्या गांवच्या माय-मायेची वर्सावळीची, दिवजांची जात्रा जावपाची आसा हें तुमकां सगळ्यांक खबर आसाच. (लोक 'हय सायबा' म्हणटात) तशी ती दरवर्साय भरता.. पूण म्हाजे यादीक हे जात्रेक लागोन खेरीत गांवपण आपोवपाचो केन्ना परसंग येयलोना. सगळें कितें कार्य जाण्ट्याचे वयवाटे परमाणें आजमेरेन चलत येयलेलें आसा. केन्ना कितें अडचण वा आडकाठी उबी जालेली ना.. पूण अंदूं... गांवचो वडील म्हणून... म्हाज्या मुखार एक प्रस्न उबो रावलेलो आसा आनी त्या प्रस्नाक वाट सोदून काडूंक म्हाका आदार करूंक हायें तुमकां सगळ्यांक उलो केल्लो आसा. (लोकांचो कुजबूज) आपसांत उलोवं नाकात रे कोण. कितें उलोवपाचें आसा तें तुमतुमगेल्या मानाच्या बुदवंतांकच उलोवंदी. तर कितें सांगतालों हांव? आं.. तर देयीची वर्सावळीची दिवजांची जात्रा तोंडार येयल्या आनी देयीचो एकवीस माल्यांचो म्हाल दीप... दिपमाळ, जिका लागूनच ही जात्रा भरता, ती अंदूं कोणें नाचोवची काय म्हुणोन म्हाजेमुखार एक मोठो प्रस्न उबो रावला.. इतलीं वर्सां देयीची दिपमाळ नाचोवपी शांतूल देवळण पोरूं वर्सां देयीच्या पांयांकडेन पावन जाली.. आनी तिचो जागो आजुनय रिकामोच आसा हें तुमी सगळे जाणातच... (लोक 'हय सायबा' म्हणटात) तिची आवय यमनेआका, देवळांतली शिरयिस करता खरी.. पूण तिका दिपमाळ नाचोवपाचो अधिकार आज ना. तिणें एकदां आपल्या माथ्यावयली दिवटी काडून धुयेमाथ्यार दवरली आनी तिचो तो अधिकार गेलो.. तेन्ना ही गांवची वयवाट मुखार कोणें चलोवंची? ... देयीची जात्रा कशी घडोवन हाडची, ही थारावणी करूंक आयज हायें तुमकां सगळ्यांक हांगा एकठांय केल्यांत. (लोकांची कुजबूज) तुमकां कितें दिसता रे बुदवंतांनो? .. तुमीच थारायात कितें तें?

(बुदवंत कांय वेळ एकमेकांमदीं ल्हव ल्हव उलयतात.)

बुदवंत 1 : थारावपाचें आनी कितें? फाटले वयवाटेन फुडें वचपाचें.

बुदवंत 2 : शांतुलाचें चेडूं आसा न्हूं? तेणें घेवपाची दिवली माथ्यार.

बुदवंत 3 : पूण तें आजोन ल्हान आसा न्हूं रे? न्हातें-धुतें जाल्याशिवाय पडटलें म्हरे तें देयीक?

बुदवंत 4 : आतां अडलांच म्हणटकच करतले कितें? कितें तरी मार्ग काडूंक जायो, न्हाण येयलें ना जाल्यार येतलें फुडल्या वर्सामेरेन, आतां कितकें? धायें काय अकरायें वर्स गो तेका यमन्या?

यमनें : आं? ना..... हय... हय.

बुदवंत 5 : ल्हान आनी व्हड? कशीय तरी वर्सावळीची भोगावळ जावंक जायी रे. ती खंडीत जावंक जायना.

बुदवंत 1 : देयीक सगळें समजता. कितेंय फार्टी फुडें जाल्यार ती म्हामाया घालतली पोटांत.

बुदवंत 5 : म्हण्टकच... अंदू जात्रेक.. शांतुलाच्या चेडवान.. शालीन दिपमाळ नाचोवपाची हें थारलें म्हरे?

लोकांचो आवाज : हय सायबा !

बुदवंत : धा जाणांनी शब्द दिला म्हरे?

लोकांचो आवाज : हय सायबा.

रायरावत : यमनेआका.. आयच्यान तुजी नात... देयीची जाली... ह्या गांवची जाली. आयच्यान तिचो भरीभार ह्या गांवाक! कुकमा देयीच्या काजळ-कुकमान भर तिचो पुनयेचो मळवट... जल्म सवाशिणिचें भाग्य तुजे नातीक फावो जालें! धोलकारा..... वाजय रे वाजप नेटान गांवचे नये दिपमाळणीच्या नांवान....!

(काळगो वाजपाक नेट दिवचे आदींच यमनेआका मुखार सरता.)

यमनें : रायरावतांनो.... गांवच्या बुद-बुदवंतांनो... धा जाणांनो... हे सभेमाजार म्हाका दोन उतरां उलोवपाक दिवंचीं.... म्हुणोन पदर पसरून मागतां हांव तुमचेकडेन.

रायरावत : उलय, उलय आका बरेभशेन. इतकें काकुटेक कित्याक येता? उतर आसा तुका धा जाणांचें.

यमनें : हांगा सभेमाजार बसलेले... गांवचे सगळे जाणकार.. गांवकार... बुदवंत... तुमी सगळे जाणांत बाबा, ह्या गांवांत येवन ह्या

कुकमादेयीच्या पालवासकल आसरो घेत साकून... म्हाज्या घराण्यान.. फाटल्या पांच पिळग्यांसाकून, म्हणजे म्हाजे शेणजे.. पणजे... आजे आनी आवय साकून.... मोठ्या भावार्थान देयीची दिवटी माथ्यार घेवन नाचयल्या... आनी मर-जियेसर तिची सेवा केल्या. हायेनय ही घराण्याची वयवाट मुखार चलयली... म्हाजे धुयेन तर देयीच्या पांयांकडेन आपलो जीव दवरलो.. पोरूं, जोर आंगार भरलेलो आसतनाय देयीचे जात्रेक बाधिकार जावंचो न्हू म्हुणोन म्हाजे धुयेन दिपमाळ माथ्यार घेतली... आनी... आनी उपासाच्या पोटान, कडकडीत वतांत चार वरां ती नाचयली... दोळ्यांकडेन काळोख येयलो आसतनाय तिणें देवळांची निमणी परदक्षणा पुराय केली.. पूण... पूण माथ्यावयले दिपमाळ देंवयले घटकेक म्हाज्या पोरान... म्हाज्या काळजा गोंड्यान... जे दोळे वरशे केले... ते सकल देंवयलेचनात... (हुंडकेता.)

रायरावत : वोगी, वोगी, आका रडनाका. जें देयीक जायें जालें तें ती घेवन गेली.... आतां, तिणें कितें मागलां.. तें तिका दिवप आमचें कर्तव्य.

यमनें : (किंचाळून) ना! ना! आनीक आनी हांव देयीक कांयच दिवंचेंना! म्हाज्या नातीच्या माथ्यार आनी हांव दिपमाळ दवरचेंना... जायें जाल्यार हांव नाचन देयीमुखार ह्या म्हातारपणांत!

रावत : सामकें सल्ला-बल्ला येयलां गो तूं आका आतां? ..... एकदां तुयें माथ्यावयलीं दिवली सकल दवरतकच तुज्यान ती परती घेवूंक जाता माथ्यार?

यमनें : ... तशें जाल्यार म्हाज्या नातवाच्या ...... बाबल्याच्या माथ्यार...

बुदवंत 1 : आतां मात यमन्याआका, तुजें चडच जालें हां.

बुदवंत 2 : न्हूं आनीक? गांवची रीत आतां हेका कितें खबर ना रे? आजूच येयलां हें गांवांत? ह्याच गांवांत किलल्लें म्हरे हें?

यमनें : पांयां पडटा रे हांव तुमच्या सगळ्यांच्या. म्हाजे नातीचें आयुश्य मातयेभरवण करनाकात... ह्या म्हातारपणांत हाडां झरोवन शाळा शिकयता म्हरे हांव तेका... फाल्यां खंयीय बऱ्या घरांत तेका लग्न करून दिवपाचें आसा रे म्हाका....

रायरावत : तेका शेंस घालून घर दवर अशें कोणें म्हटलां गो आका? .... तेणें फकत वर्साक एकदां जात्रेक दिपमाळ माथ्यार नाचयल्यारच पुरो.

यमनें : तुका कळना कशें रे पुता म्हाज्या? देयीची दिपमाळ माथ्यार घेतलें जाल्यार तेका घोवाची बायल जावंक उपकारना. तशी देयीची अटच आसा. आनी एकदां तेणें दिपमाळ माथ्यार घेतली म्हणटकच नोंत पडटलें म्हरे पोराक म्हाज्या !

(इतलो वेळ सकल-वयर येवपी इठ्ठल धीर करून उलयता.)

इठ्ठल : मागीर..... मागीर तेका कोण करूंक येयला आपली सून?

बुदवंत 1 : तुजे नातीक नोंत पडूं, ना जाल्यार तेका फीत चडूं, तें आमकां पडलेलें ना... आमकां... जायी आमची जात्रा बरेभशेन जालेली.

बुदवंत 2 : ... आनी जात्रेक तुजे नातीन माथ्यार दिवटी नाचोवची इतकेंच आमचें सांगणें. बस्स.... तेचेवयर आमचें उलोवणें ना! ... आनी तूं रे इठ्ठला! तूं शेनायकार... तूं तुजी शेनायच वाजय! बुदवंतांक शाणेपणां शिकोवपाचे भानगडींत तूं पडनाका!

बुदवंत 3 : यमनेंआका, आगो दिवजांची जात्रा घडोवपाची जबाबदारी तुज्याच घराण्याची! तुज्या घराण्यांतले जाण्टेलेनच देयीक उतर दिलेलें आसा! तेन्ना तूं फकत जात्रेपुरतें शालीक नाचूंक सांग.

बाबलो : ना! ना! म्हाजे भयणीक हांव जात्रेंत नाचूंक दिवंचोना! ... आईक नाचतना पळोवन जात्रेंतले दादले शिंटयो वाजयताले तिंतकेंच पुरो! म्हाजे भयणीक आनी त्यो शिंटयो नाकात!

रावत : बाबल्या, तूं गप्प बस रे! भुरग्यांनी जाण्ट्यामदीं उलोवंक जायना!

बुदवंत 2 : तूं येतभर पोर आमकां शाणपणां शिकयता रे? आमची कितें सापच अक्कल घाणली?

बुदवंत 4 : आनीक आनी ह्या विशयाचेर चड भासाभास करपाक आमकां वेळ ना! यमनेआका, तुका एक सांगतां, ह्या गांवांत रावतलें जाल्यार, तुका गांवचे सांगतात ते परमाण वागचेंच पडटलें ! तुका नातीच्या माथ्यार दिवज दवरचेंच लागतलें ! ना तर, तुका गांवांत रावपाक थारो ना! आमी गांवाक दुसरी देवळण पळयतात...! तुजें मात घर गांवाभायर! .... मागीर तूं जो देयीबेंसांतलो शेताकुणगो रोयता तोवय

तुका मेळचो ना! भर मागीर तुज्या नातरांचें पोट कशें भरता तें! आनी कर लगीन नातीक कशी करता ती!

बुदवंत 3 : पळय, बेगीन विचार करून सांग कितें तें!

बुदवंत 5 : उलय बेगीन!

(यमनेआका बुदवंताल्यो अटी आयकून थक्क जाता)

बुदवंत 1 : मान्य म्हुगो तुका? .... वोगी कित्याक आसा गो? उलय तोंडान!

यमनें : कितें उलयतलें? ... तुमी म्हाज्या तोंडांतलें उतरच काडलें. वाग म्हटल्यारय खाता, आनी वागोबा म्हटल्यारय म्हाका खाता अशी म्हाजी गत जाल्या! गांवाभायरें जाल्यार, ह्या म्हातारपणांत पोरांक घेवन कोणाचीं दारां हेडटलें हांव?...

रायरावत : आका... म्हाजें आयक! धा जाणांचें उतर मोडनाका. धा जाणांचो कोप म्हणजे ह्या कुकमादेवीचो कोप. शालीचें फुडें बरें जावंक जायें... तुजें आतां जाण्टेपण जालां. पिकलें पान मदींच केन्ना सट्ट करून तुटून पडल्यार ह्या पोरांक गांवचो आलाशिरो... गांवचो आदार आसल्यार हेंकां कसलोच भंय ना! कितें? गांवच्यालें सांगणें मान्य करता मुगो तूं? तकली हालय नाका, कितें तें तोंडानच सांग! धा जाणांक कळूंक बरें!

यमनें : ...हय!

बाबलो : आका....!ना ! नाका!

रायरावत : ... तर गांवच्या पांचय बुदवंतांनो... आनी जमलेल्या धा जाणांनो...! ह्या गांवची नयी देवळण, दिपमाळीण थारली! ह्या यमन्याची नात.. सर्गार गेल्ल्या शांतुलाची धूव... शाली, अंदुच्यान कुकमादेवीची दिपमाळ दिवजांचे जात्रेक नाचयतली! गुरवा, घाल रे गाराणे आनी माग रे आशिर्वाद वर्सावळीच्या कार्याक! उबे रावात रे धा जाण!

(सगळे लोक हात जोडून उबे रावतात)

(गुरव गर्भकुडीमुखार वचून फुडो करून रावता आनी गाराणें घालता.... तो गाराणें घालताना लोक दर वाक्याक ‘हय सायबा’ म्हणटात. गुरवाचें गाराणें चालू आसतना इश्णू-कुश्ट थंयच्यान धूम्म काडटात.)

गुरव : माये... आज आदिमाया तूं... कुकमादेवी तूं!
सांतेर तूं.... शांतादुर्गा तूं!
भुमिका तूं.... भगवती तूं!
लयराय तूं.... केळमाय तूं!
खुंटी तूं.... शितलादेवी तूं!
म्हम्मारी तूं.... वनमाया तूं!
म्हामाय तूं.... तुळशीमाया तूं!
म्हालक्षीम तूं.... म्हादेवी तूं!
पार्वती तू.... कामाक्षी तूं!
सटीमाय तूं.... कामादेवीय तूं!

देयी, आज तुज्या पांयाडेन तुजीं बाळकां... कांय मागणें मागूंक उबीं रावल्यांत! आज माये.... तूं सगळें जाणणार आनी करणार! आज माये, तूं हो सगळो संवसार रचणार आनी तारणार... आज.... माये, तुयेंच हो सगळो गांव वसयलो.... शेत शेतवड पिकयली... तुयेंच गांवांत रायरावत, पांच बुदवंत, धा कारकी आनी रयत-कूळ निर्मिले... तुयेंच आज देव-देवूळ बांदलें.... नास-म्हारांगण नेमले... आनी जात्रा उत्सव रचले.. आज तुयेंच हे धरणेर मोतयांचे पावस घातलो अनी दुदाच्यो न्हंयो व्हांवयल्यो. आज तुयेंच ह्या गांवच्या बायल्यांच्यो व्होटी फळयल्यो आनी ... सवाशिणीच्या कपलावेलो तिळो राखलो... आज तुयेंच हो कुकमापूर गांव अंगुळे हाडलो आनी गांवच्या राखणेखातीर दिपमाळ..... घडयली, आनी आज काय देव-देवळण रचून तियेच्या माथ्यार दिपमाळ दिवन ती इतकीं वर्सां अखंडपणान नाचयली... आज देयी, तुजी ही कोणा काळार रचलेली दिपमाळ खंडीत जावपाडेन पावलेली... आज देयी ह्या संकश्ट काळार तुयेंच तुज्या बाळकांक वाट दाखयली.. आज देयी तुयेंच तुजी नयी दिपमाळण सोदून काडून, ह्या गांवचेर अखंड उजवाड घालपाचें तुजें उतर खरें केलां! आज देयी, तुयें शांतूल देवळणीचें धुयेक तुजी दिपमाळण करची म्हुणोन तुज्या बाळकांक मार्ग दाखयला! ... आज

देयी, तुयें दाखयल्ल्या मार्गांपरमाण तुजीं बाळकां येता ते कार्तिक पुनयेक शांतुलाचे धुये माथ्यार, तुजें म्हाल दिवज दवरपाचीं आसात... आनी तुज्या काजळ–कुकमान तेचो मळवट भरपाचीं आसात आनी काय तुजी वर्सावळीची माल्यांची जात्रा घडोवन हाडपाचीं आसात... तेन्ना आज माये कितेंय अड–नड, आडी–कांठी आसल्यार तुज्या पांयांपोंदाक चिड्डून दवर आनी तुजे वर्सावळीचें कार्य काय बरेतरेन हांसत–खेळत संपुर्णाक व्हर आनी तुज्या बाळकांचेर तुजी कृपा–दृश्टी दवर... सगळ्याचें बरें कर! ..... ह्या कुकमापूर गांवचे मनीस कुळयेची... गोरवां–वासरांची... शेत–शेतवडीची... राखण कर! ... सगळ्यांक येश दी!

('हय सायबाच्या' आवाजान सगळो आसमंत भरता.)

रायरावत : काळग्या... वाजय रे तुजें वाजप नेटान, नव्या दिपमाळणीच्या नांवान!

(काळगो नेट–नेटान धोल बडयता आसतनाच देखाव सोंपता.)

(पयलो अंक सोंपता)

# अंक दुसरो

## देखाव : 1

(यमनेआकालें घर. वेळ सांजेचो. शाली उतावीळ  जावन पडवेवेल्यान आंगणांत आनी आंगणांतल्यान पडवेर यो-वच करता. मदींच देवळावटेन पळयता. कांय वेळान देवळावटेच्यान धोलाचो ल्हव ल्हव आवाज आयकूंक येता, तशें तें अदीकच उंचाबळ जाता. इतक्यांत इश्णू-कुश्ट धांव धांवत थंय येतात.)

इश्णू : शाली ऽऽ !

कुश्ट : ये ऽऽ शाली .. !

शाली : कितें जालें रे? इश्णू...कुश्टा.. कितें जालें रे गांवपणांत? म्हाजें कोणें नांव घेतलें रे?

इश्णू : नांव घेतलें? आगो सगळें गांवपण तर तुकाच लागोन जालें.

शाली : म्हाका लागोन? पूण कित्याक रे? .. हायें कितें केलां?

कुश्ट : तुयें कांयच करूं ना गो... पुणोन...

शाली : पुणोन कितें? ... कितें जालां? कोणूच म्हाका कित्याक सांगना? तो डांगरेकारबाप्पा सांगना.. आका सांगना.... भावो सांगना... इठ्ठलमाम सांगना...!

कुश्ट : आगो, तुका तीच खबर सांगोंक जायी म्हुणून तर आमी दोगय जाण्टेले भायर सरचे पयलींच धांवत हांगा येयले.

शाली : मागीर सांग म्हरे ती खबर बेगीन.

कुश्ट : तूं कित्याक येयलेंना देवळाकडेन? तुका थंयचूच सगळें कळटा आसलेलें!

शाली : आकान येवं नाका म्हटलें म्हाका... पूण तें भोगूं. तूं पयलीं म्हाका ती खबर सांग पळोवया.

इश्णू : आगो... आज देवळाकडेन कितको लोक जमेलेलो जाणा? सामको

रासभर, जात्रेक जमता तसो! आख्खो गांवच लोटून येयलेलो!

कुश्ट : तो पांडूदाद.. दिनाआपो, सुकडोबाप्पा.. सगूणकाका.. देसायांवाड्यावेलो येसो.. बायलो आनी आमचे येदे भुरगेय येयलेले.

इश्णू : पूण बायलांक आनी भुरग्यांक बुदवंतांनी चौकार घेतलेनात. सगळीं जाणां भायरच रावन आयकतालीं. हांव आनी इश्णू मात चौकासोंपणाचेर रावले.. पूण आमकां कोणें कांय म्हटलेंना. तुज्या आपानय पळोवन पळयनासलेले बशेन केलें. खरें न्ही रे कुश्टा?

शाली : चूप रे! त्यो खबऱ्यो म्हाका सांगनाकात! ... म्हाका फकत म्हाज्यो कितें देवळाकडेन खबऱ्यो जाल्यो तितक्योच सांगात.

इश्णू : आं.. बरें बरें! तुजीच खबर सांगता गो... आयक..! तुका म्हगो कुकमादेवीची दिपमाळीण केल्या बुदवंतांनी... अंदू जात्रेक तुयें, तुगे आईबशेन माथ्यार दिपमाळ घेवन नाचपाचें खंय!

शाली : ये.. खरेंच रे? खरेंच सांगतात तुमी म्हाका? (दोगूय बरोबर 'हय' म्हणटात) मजा येतली न्ही?

कुश्ट : काल तो धोलकार सांगतालो पळय, तें हेंच कारण खंय तेचें वाजोवपाचें.

शाली : आनी कितें उलयले रे थंय?

कुश्ट : ...आनीक कितें? ..आनीक कितें..? म्हाका याद जायना.

इश्णू : हांव सांगता गो आनीक किते तें! ...आगो तुज्या आकान आपूण तुका देवळण करूंक तयार ना म्हणून पयलीं सांगलें.. तेन्ना सगळ्या बुदवंतांनी तेका धरून बरेंच उलयलें. मागीर निमाणें तेका हय म्हणचें पडलें.

शाली : पूण आकाक कित्याक करना म्हणूंक आसलेलें तर? वयल्यान तेणें हय म्हणपाचें ! कितकी मजा येतली न्ही रे त्या दिसा...

कुश्ट : आगो, तेंच न्हूं. तो बाबलोय मदीं उठोन नाका म्हुणोंक लागलो तुका देवळण करूंक! .. तेका मागीर सगळ्यांनी बरोच तापयलो. भुरग्यांनी जाण्ट्यांमदीं उलोवपाचें कारण ना म्हुणून सांगलें तेका रायान.

शाली : भाऊचें सदांच तशें रे. हांव कितेंय करूंक गेल्यार तेचें मदीं आडमेळें

आसताच. पूण ये इश्णू... जात्रे दिसा खूब मजा येतली न्ही रे? आका म्हाका जरीचें कापड न्हेसयतलें. हातांत खूब कांकणां घालतलें.... नाकांत नथ घालतलें... देयीचें सगळें भांगर घालतलें.. व्हंकल कशी सजयतलें म्हाका... मागीर लोक वाजप घेवन येवन म्हाका देवळाकडेन व्हरतले.. थंय गुरवकाका म्हाजे तकलेर दिपमाळ चडयतलो.. मागीर हांयें हेवाटेन तेवाटेन पावली वडयत नाचपाचें आनी देवळाचे भोंवताडे काडपाचे. गांवच्यो सगळ्यो व्हडल्यो – जाण्ट्यो बायलो म्हाज्या फाटल्यान तेचें दिवज घेवन, आनी हांव मुखार, केदी मजा येतली न्हूं?

कुश्ट : तुजी बाये सगळीच मजा. पूण तुजो तो भावडो येयल्यार आमी तुका ही खबर सांगल्या म्हुणोन आमची मजा काडटलो सारकी भायर. तेचें आज सामकें तापलेलें आसा. आमी बाये वयतात... (शालीचें लक्ष नासता. तें आपलेच मर्दी गुणगुणटा.) इश्णू, चल या रे आमी घरा... तो बाबलो पावल्यार आमचेर काडटलो फोग.

इश्णू : हय रे, तुजें खरें. आज तो सामको पिकार आसा. चल या. (दोगय वतात)

शाली : जात्रेक हायें दिपमाळ नाचोवपाची न्हूं? (येवजून) तशें जाल्यार हायें नाचाची तालीम केल्यार बरी. जात्रेक दोनच दीस उरल्यात! (माथ्यार दिपमाळ घेतिल्ल्यासारकें हात धरून नाचपाचो यत्न करता, पूण ताका तें जमना) शे! ... म्हाका कशेंच जमना नाचोंक! .. आतां कशें जावपाचें? कोण शिकयतलो म्हाका नाचोंक? ...आका काय शिकोवंचें ना! ..आज आई आसलेली जाल्यार बरी शिकयता आसलेली म्हाका! ती म्हाका कित्याकच ना म्हणनासली! पूण देवीन तिका व्हेली सर्गांत ...! (आवयचे यादीन हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूंक लागता, तें रडटा आसतनाच ताका म्हऱ्यांत आवय येवन उबी राविल्ल्याचो भास जाता.) ...कोण?? ...आई?...?

आई : हय गो बाये, हांवूच तें. तुजी आई.

शाली : पूण .. पूण आई तूं देवागेर गेल्ली न्ही गे? .. परत कशी येयली?

आई : हांव देवागेर गेलां खरें गो बाय पूण म्हाजे लक्ष तुमचेर आसता.. तूं

आतां रडटा तें पळोवन देवाकडल्यान थोडो वेळ मागून घेवन हांगा येयलां गो बाय... सांग कित्याक रडटालें तूं? ..आं, तूं अशें रडूंक लागलें म्हण्टकच म्हाका थंय सर्गांत सूख लागना!

शाली : आई, म्हाका दिपमाळीचो नाच शिकय गे!

आई : दिपमाळीचो नाच? तो कित्याक गो?

शाली : जाणा आई, आज देयी देवळांत गांवपण आसलेलें.... थंय बुदवंतांनी म्हाका तुज्या फाटल्यान दिपमाळण केल्या खंय?

आई : आं कितें? देयी गे म्हाजे .. सायबिणी.. घात केलो म्हगे तुयें म्हाज्या पोराचो!

शाली : आई .... आई.. वोग्गी कित्याक गे? शिकय म्हगे म्हाका नाच! (आवयक हात लावूंक वता, पूण ती हात लावन घेना)

आई : म्हाका हात लावूंक जायना बाय... लायल्यार तुकाय म्हाजेबरोबर सर्गांत येवंचें पडटलें.

शाली : कित्याक हात लावूंक जायना गे आई?

आई : तुका ती हांव सांगताली ती राजकुंवरीची काणी याद आसा म्हुगो बाय? ते काणयेंत पळय, ती राजकुंवरी सर्गांत रावतले एके जाण्टेलेक आपली आवय समजून हात लायता, मागीर तिका मर्त्यलोकांत रावपाक मेळना. तिका स्वर्गांत वच्चें पडटा.

शाली : हय, हय. याद आसा गे आई.

आई : म्हण्टकच बाये तूं म्हाका आपुडनाका. कितें आसा तें पयसूच रावन सांग. नातर, आकाक हांव ना तें ना, तूंवय ना जातलें!

शाली : बरें आई, लायना हात, पूण तूं म्हाका नाच शिकय! ना तर हांव परत रडटलें...!

आई : बरें बाय शिकयतां.. आतां ना शिकोवन तरी कशें जातलें! ...बुदवंतांनी आनी तुज्या आपान थारायलां म्हण्टकच तेंचो मान राखचोच पडटलो ! यो बाये अशें मुखार उबें राव.. हात अशे धर... ही उजवी पावली वडय... मागीर ही दावी...
(शाली सामकें तल्लीन जावन नाचता, पार्श्वसंगीत आयकूंक येता)

**नशीबाची भरल्या जात्रा**
**जल्माचो मांडला बाजार**
**बालपण अर्दार सांडलें धुये**
**आतां वांटयाक फकत भोगणार.**

(गीत सोंपता तशी आईची आकृती ना जाता. इतक्यांत तिडकल्लो बाबलो, मुठी कंवळीत बडबडतच थंय येता.)

बाबलो : म्हाका.. म्हाका भुरगो म्हण्टात? कोण समजतात हे बुदवंत स्वताक?.. आनी आपाय तेंचे भागीक! शालीक जात्रेक नाचोवपाची थारावणी करतात? दीन बरो हांव तेका जात्रेक नाचूंक! (इतक्यांत ताची नजर पडवेर नाचतल्या शालीचेर वता) आं ! ... शाली ... शाली तूं नाचता?

शाली : हय भाऊ.... म्हाका जात्रेक नाचपाचें आसा न्हूं?

बाबलो : बंद कर ! बंद कर तो नाच पयलीं !

शाली : ना ! हांव कित्याक बंद करूं?

बाबलो : बंद करना? ... बंद करना? ना .. म्हण्टा?
(ठा ठा करून शालीच्या पोल्यांर दोन-तीन थापटां फुलयता. तशें शाली 'आई गे ऽ ऽ! आका गो ऽ ऽ!' म्हुणून व्हडल्यान होळम घालता. इतक्यांत आका थंय पावता.)

यमनें : कितें जालें? कितें जालें रे बाबल्या? शाली कित्याक रडटा? (बाबलो कांयच सांगना. आकाक पळोवन शाली अदिकच मोठ्यान रडटा.)

शाली : आका.. गो ! भावड्यान मारलें पळय गो म्हाका !

यमनें : मारलें? कित्याक?

शाली : हांव जात्रेक नाचपाची येन्नासान तालीम करतालें गो आका ! आतां आईनच हांगा येवन शिकयला तो नाच म्हाका...!

यमनें : कितें?? ...आईन!

शाली : हय, आईन. वदळ ती येयलेली हांगा.

बाबलो : आईन? ..आईन शिकयलां तुका? आमगेली मेलेली आई जिती

जाली? तङ्कां उलयतां ! (आनी एक मारता)

यमनें : (मर्दी पडून बाबल्याक आडायत.) बाबल्या पळय... आनीक हात लावचो ना तूं तेका.. हांव वोगी रावचेंना तुका! (तसो बाबलो सोडटा) पयलेंच पोराचें नशीब फुटलां ! आरे तूं नकळ, तुजे भयणीक दिसाचींच सपनां पळोवपाची संवय ती? दिसलें आसतलें तेका आवय आतां फुड्यांत येयली अशें! ... चल तूं आतां मात्सो भितर वच हांगाचो ! (बाबलो वचना, थंय खुंट्ट उबो रावता) .. शाली, तूं तरी बाये थोडो वेळ इठ्ठलमामागेर वचून बस... म्हाज्यान आनीक तुमचीं झगडीं काडूंक जायनात. म्हाजी पयलीच तकली काम करना.. मागीर तिळसानेर व्हरूंक येता तुका. (शाली दुकां पुसीत भायर वता. यमने कपलार हात घेवन पडवेर जमनीर थपकल मारता. एक-दोन मिनटां थंड वतात. बाबलो पडवेर अस्वस्थ जावन पासयो मारता. यमन्याचे ताचेर लक्ष वता. तशें तें उठून ताच्या म्हऱ्यांत वता.)

यमनें : बाबू, ... शाण्या चल, भितर चल. कितेंय पिवंक घे.

बाबलो : म्हाका नाका कांयच पिवंक.

यमनें : नाका म्हणनाका रे पोरा. चल, वदळ चौकार वच्चे आर्दी हांवें च्या करून दवरलेली आसा रान्नीकडेन, ती पिये.

बाबलो : नाका म्हाका कांय!

यमनें : नाका कशें बाबू, दनपरांय जेवलो ना तूं. ... भल्लेलें ताट सांडून उठलो.

बाबलो : हांव एक दीस जेवलो ना जाल्यार कांयच घात घडचोना आका! .. पूण ... पूण परां शाली जात्रेक नाचल्यार मात घात घडटलो व्हडलो!

यमनें : तेचेर आनी आतां चड विचार करनाका रे बाबू! .. गांवच्यांनी कितें थारायलां तें आतां आमकां मानून घेवचेंच पडटलें रे.

बाबलो : पूण कित्याक??? .. कित्याक आका???

यमनें : ... कारण तें देयीचें कार्य रे बाबा.

बाबलो : देयीचें? ... काय खेत्र्यांचें कार्य गो आका? .. ते बुदवंत.. ते म्हाजन.. ते.. ते.. सामके दैत कशे आमच्या शालीच्या फाटल्यान लागल्यात म्हुगो ! तेचो फुडार पाड घालूंक सोदतात म्हुगो!

यमनें : शीव ! शीव ! तशें उलोवंक नाका रे पोरा! .. कोणेंय आयकल्यार घात जातलो ! ह्या गांवांत रावूंक जाय रे आमकां.

बाबलो : (यमन्याच्या उलवण्यांचेर दुलर्क्ष करून) तुका सांगता, हो .... हो गांव पाड पडलेलो आका! .. तो केन्नाच सुदारपाचो ना! .. तूंच, तूंच पयर एक दीस सांगतालें न्ही गो, गांव आतां सुदारला म्हुणोन! आतां पयलींच्यो चालि-रिती कोण मानतात म्हुणोन.... मागीर शालीच्या जाग्यार दुसरो कोण कित्याक नाचयना गो दिपमाळ! ती आमच्याच बायलांच्या हड्ड्यार कित्याक?

यमनें : हरशील्यो रिती वेगळ्यो रे आनी दिपमाळीचें वेगळें.. दिपमाळ म्हणजे देयीचें म्हाल कार्य रे. तें थारायलेले तरेनच जावंक जाये. तेचें अशें तशें कितें जाल्यार तिचें रागणें पडटलें गांवार ...! मागीर गांव...

बाबलो : पडूं !! रागणें पडूं आनी हो गांव काबारय जावूं! असलो गांव आसचे परस नासलेलोच बरो!

यमनें : बाबल्या ऽ ऽ ! कसलीं सुबेजपणां उलयता रे? ... भुरगो म्हरे तूं?

बाबलो : भुरगो ??? हांव भुरगो न्ही, हांव जाण्टो! .. म्हाजें भुरगेंपण केन्ना शेणलें आका! जेन्ना जात्रेक नाचतले आईक पळोवन लोकांनी हांशिल्लो फी फी करून हांसो आयकलो ... तेन्ना तें शेणलें! जे दिसा तिच्या आंगार दसलेल्यो दादल्यांच्यो पोजड्यो नदरो पळयल्यो ते दिसा तें ना जालें! ... आनी ... आनी आईच्या सरणाक उजो लायतना, 'धा जाणांची बायल' म्हुणून लोकांनी केल्ल्यो बकच्छायो आयकोन तर हांव सामकोच जाण्टो जालों गो आका, सामकोच जाण्टो जालों ...! (हो हो करून रडतच भितर वता. तो रडटा तशें यमन्याकय रडूंक येता. तें थंयच हाताच्या पोशांनी तोंड लिपोवन रडटा. पार्श्वगीत आयकूंक येता)

**नियतीच्या खेळांत**
**शेणलें रे भुरगेंपण**
**काळाच्या पांयांपोंदा**
**चिड्डलें रे भाबडेपण**

आतां ना आल्लयो,
आतां ना कुटुऱ्यो
आतां फकत वांटचाक
अवेळीचें हें जाण्टेंपण !

(गीत सोंपता, तेन्नाच इठ्ठल येता. यमन्याक रडटा तें पळोवन समजायता.)

इठ्ठल : आका, आगो.. तूं चड मनाक लावन घेवं नाका.. सगळें कितें ती देवळांत बसलेलीच म्हामायाच करता.. तिच्या मनांत कितें आसा कोण जाणा?

यमनें : आमच्या घराण्यांतल्या बायलांक शिरापच आसा रे इठ्ठल! कुसलेलें, लोकांनी थुंकून उडयलेलें जिणें आमी सदांच जगपाचें रे !

इठ्ठल : अशें कित्याक म्हण्टा गो आका? .. ह्या घराण्यांतल्यो बायलो म्हणजे कुकमादेयीच्यो भगतिणी ! कुकमादेयी .. सवाशिणीच्या कपलाचो कुकूम अखंड राखपी देयी. लोक तुमकां तिच्याच रूपांत पळयतात. जात्रे दिसा दिपमाळ माथ्यार घेतकच तुमकां देयीच समजून पांयां पडटात.. तुमी जल्म सवाशिणी ! लग्न कार्यांत तुमकां पयलो मान ! मोठ-मोठ्यांच्यो, रावत-गांवकारांच्यो बायलो बसून तुमच्या कपळांचो तिळो काडून आपल्या कपलाक लायतात. तुमचे सारकें अखंड आयावपण आपल्याक मेळचें म्हुणून!

यमनें : तो सगळो फटीचो भावार्थ रे ! वोगीच दाखोवपाचो ! .. खरेंपणी आमी आंगोस्तरां रे ! आंगाक घाम येयलो म्हणटकच पुसपाचीं आनी कोनशाक शेंवटून मारपाचीं ! .. तीं घालून चार चौगांत कोण केन्ना गेल्लो तुयें पळयला ?

इठ्ठल : हेंवूय फट न्हू तुजें आका.

यमनें : तूं जाणा इठ्ठल ? एका संकश्टकाळार खंय ह्या कुकमापूर गांवांत पयसुल्ल्यान खंयच्यान तरी, घाटा पलतडच्यान.. एक भयण आनी एक भाव, अन्न ना, वस्त्र ना, माथ्यार थारो ना, अशे स्थितींत येयलेलीं. भयणीचें घराणें खंय आमचें. भावाचें तुमचें.. ह्या गांवांत येतकीच खंय तेणीं दोगांयनीय देयीकडेन रावपाक आसरय आनी अन्न-वस्त्राची

पुरवणी कर गे देयी म्हुणून मागून घेतली. देयीन ती दिली.. पूण ते बदला भयणीच्या माथ्यार तिणें दिपमाळ दवरली.. भावाच्या हातांत शेनाय दिली आनी सांगलें 'कर आपली सेवा!' दोगांय भाव-भयणां तयार जालीं तशी भयणीक तिणें एक अट घातली, हे फुडें तुवें लग्न जावन घोवाची बायल जावंक उपकारचें ना. आजल्म म्हाजे सेवेक रावचें पडटलें ! पूण हां, तुका खंयच्याय दादल्यांकडेन संबंद दवरूंक म्हाजी अडकांठी आसची ना! तेचे पासून जातलीं भुरग्यां हीं म्हाजीं भुरग्यां म्हुणोन जग – लोक तेंचेकडेन पळयतलो ! ते वेळार 'तुजी आदन्या मान्य सायबिणी' म्हुणोन भयणीन देयीच्या पांयांर आपल्याक घालोन घेतलें. भावाक मात तिणें लग्न जावन संवसार कर म्हुणोन सांगलें. पूण भयणीच्या घराण्यांतल्या चेडवांक घरा दवरलेल्यान, भावाल्या घरांतल्या चेडवांकडेन लग्न करूंक कोण घोव मेळना जालो म्हुणोन पयलीं पयलीं तेंकांय घरां दवरलीं. तुज्या आकासाकून लग्न करूंक सुरवात जाल्या रे. देवळांत सिरयीस करतलो तुमचो दादलो.. बायलांक थंय काम ना.. आनी नशिबान तुज्या बापायगेर तूं एकटोच चेडो जालो.. तुगेरय चेडूं ना ! कुश्ट आनी इश्णू.. दोगूय चेडेच तुका.. तुज्या घराण्यांतली शेंसेची परंपरा खंडीत जाली.. ह्या घराण्यांतल्या, भयणीच्या चेडवांचें मात नशीब फुटलां.. देयीन थारायलेले भाशेन, दर एके पिळगेक, आमच्या वंशाक एक एक चेडूं जल्माक आयलें आनी तेच्या माथ्यार दिपमाळ दवरली. आतां ती दिपमाळ सामकीच दसोन आसा आमचे तकलेक! ...तिचें कितें घोडें मारलां आमी म्हण देव जाणां !

इठ्ठल : अशें म्हुणो नाका गो आका... ते दिपमाळीन कितें केलां? .. वयल्यान तिका लागोनच थोडीं कांय जायना आमी वर्सां गांवांत मानान काडलीं... म्हाका याद आसा, म्हाज्या भुरगेपणांत तुजे आवयक गांवांत केदो मान आसलेलो.. देवळांत चौकार ती रायरावता कुशीक बसताली.. तिच्या उतराक लोक भिताले.. तिणें कितें म्हणचें आनी देयीन तें खरें करचें, म्हुणोन तिचेकडेन उलयतना एक उतर फाटीं – फुडें जावंक दिनासलेले. रोग-राय .. दुयेंस – पिडा... गुरवाक कोण

इचारताले तेन्ना? सगळें देयीडेन मागचें तें तुजेच आवयन. जणू काय तीच देयी !

यमनें : तो काळच वेगळो रे इठ्ठल, त्या काळार दिपमाळणीकच देयी मानताले लोक ! .. ह्या कुकमापूर गांवांतच कित्याक, दुसऱ्या राज्यांत आनी भायल्या देशांतय खंय अश्यो देयीच्यो देवळणी आसताल्यो. आजी सांगताली म्हाका, कांयकडेन खंय तेणी देवळांतच रावपाचें आसतालें.. तेणी भोग दिवंचो तो खंय फकत गांवच्या मुखेल्याक, तोवय देयीच्याच उतरान. हेर कोणाकय मान वयर काडून तेंचेकडेन पळोवपाचें काळीज नासलेलें !

इठ्ठल : हय आका, आयकलां हायें तें.

यमनें : पूण इल्लो इल्लो काळ गेलो तशें लोकांचे इचार बदल्ले रे इठ्ठल.. म्हाज्या आवय मुस्तींत बुसोन बरें आसलेलें रे.. म्हाजे मुस्तींत सामकेंच चित्र बदल्लें... घोवा बायलो न्ही म्हुणोन वता थंय लोक आमचेकडेन बकच्छायांनी पळोवंक लागले. गांव सुखान नंदोंक जाय म्हुणोन जात्रेंत दिपमाळ नाचयता ते दिसा, चौकार गांवचे जाळवणदार मान-पान करतात इतकें मेरेन बरें आसा रे. पूण बाबलो सांगता तशें, जात्रेंत धा तरेचे लोक, धा उतरां उलयतात... कोण शिंटयो मारतात... कोण फिदी फिदी करून हांसतात ..आयकतल्याच्या आंगाक जाळ पडटात रे सामकें!

बाबलो : (घराभितरल्यान तिरमीरीत पडवेर येता.) आका.. इतको तेंप जें जालें तें जालें, आतां हे फुडें तें आनीक जावंचें ना ! ... हांव दिवंचो ना जावंक !

यमनें : बाबल्या, पुता कितें करतलो रे तूं?

बाबलो : तें येन्नाच कोणाक सांगपाचें ना. तें हांव करपावेळार ज्युस्त करतलों ! (नेटान आंगणांतल्यान भायर सरून दोळ्यांआड जाता.)

यमनें : बाबल्या.. बाबू! राव रे पुता, खंय वता?

इठ्ठल : आरे, खंय भायर सरून वयता रे येद्या तिनसांजेचो? (इठ्ठलय ताच्या फाटल्यान धांवता)

(यमनें ते दोगय गेल्ले वाटेकडेन थरथरत पळयतच उरता. पार्श्वसंगिताचे सूर आयकूंक येतात.)

**ह्या नश्टच्या परंपरांची**
**आज करीन रे होळी,**
**दिवंचो पडल्यान दीन**
**म्हज्या भावनांचो रे बळी.**

(देखाव सोंपता)

## देखाव : 2

(वेळ तिनसांजचो. आदल्या देखाव्या उपरांत दोन दिसांचो काळ सरला. देखाव सुरू जाता तेन्ना रायरावताल्या घराचें बसपाचें साल दिसता. सालांत रायरावताची खानदानी श्रीमंती दिसता.)

रायरावत : (आपलेचमदीं उलयता) वर्साची दिवजांची जात्रा फाल्यांच्या तोंडार पावल्या. कुकमादेवतेन सायबिणीन, बुदवंतांनी थारायलेल्या प्रमाण कार्य करून घेतल्यार पुरो. कसलीच अडचण उबी रावना जाल्यार पुरो गे देवते!... यमन्याआकाक सगळ्यांनी समजायलां खरें पूण तेणें मनांतल्यान मानून घेतिल्लें ना. म्हाकाय बरें दिसना. शालीच्या माथ्यार दिवज दवरूंक ! ... म्हाज्याच रगताचें पोर तें! म्हाज्या लतासारकेंच तें म्हाका.. तेणें भरसभेंत नाचलेलें, म्हाज्याय मनाक पटना.... पूण करतलों कितें? गांवची जात्रा बंद करूंक जाता? आनी ती चालू दवरतली जाल्यार शालीच्या माथ्यार दिपमाळ दवरपा बगर दुसरो मार्ग ना! (इतल्यांत गुरव येता) यो, गुरवा यो. बस, जाली म्हरे सगळी तयारी?

गुरव : जाता राया. वर्सावळीचीं एक एक कामां त्या त्या सेवेकऱ्याकडेन सोंपयल्यांत.

रायरावत : कांय अडचण ना म्हरे?

गुरव : ना राया.

रायरावत : दिपमाळ करून हाडली म्हरे मेस्ताकडल्यान?

गुरव : हय, आतांच पावोन गेला तो देवळांत.

रायरावत : बरें. विड्याचें ताट तयार करून दवरलां म्हरे?

गुरव : हें पळय, तेंच दाखोवपाक येयलेलो हांव हांगा, तूं आज सांजेचो देवळावटेन फिरकलो ना न्हूं, म्हुणोन हांवूच येयलो, तें घेवन हांगा.

रायरावत : खण.. कापड... नाल्ल – वर्सावळीच्या मानाचो विडो... सगळें सारकें दवरलां म्हरे ताटांत?

गुरव : हय राया, दवरलां. हें पळय खण, कापड, नाल्ल सगळें दवरलां. फकत

विडो तितको उरला. तो मागीर फाल्यां सकाळीं चौकार येतकच तुवें दवरपाचो न्ही राया?

राय : फाल्यां आनी नाका रे. आतांच दिवन वडयता तुजेकडेन. तूंच दवर तो ताटांत. म्हाका अंदूं बेश्टेंच घुस्पल्लेबशेन जाता. (बोल्सांतले पयशे काडून गुरवाक दिता) घे.. एक हजार आसा .. अंदूं विडो वाडयला हां. अंदूं नवी दिपमाळण न्ही! (गुरव पयशे घेवन किरवटीक लायता)

गुरव : हय राया, पांचश्यांनी आतां कितें जाता? वर्सभराचो मान न्हूं तो! बरें तर, हांव वचूं न्हूं घरा? विड्याचीच याद करपाक येयलेलो हांव.

रायरावत : राव रे मात्सो, बस. आनीक कितें कामां याद जातात जाल्यार पळयतां. आं, एक सांग रे, दिपमाळणीक वदळ सांजवेळा धाडलेल्या ताटांत उपासाचें आनी शिरंगाराचें सगळें साहित्य सारकें धाडलां न्ही?.. कांय विसरलें बी ना न्ही?

गुरव : ना राया, सगळें सारकें धाडलां.. धाडचे पयलीं तुका दाखयलां न्हूं सकाळीं हायें सगळें सामान.

रायरावत : आं.. हय, हय. पळयलां न्ही हांवें सगळें. यादूच उरलिना पळय म्हाका.

गुरव : जाता तशें केन्ना केन्नाय राया.

रायरावत : बरें.. फाल्यां सगळे मानाचे मानकरी.. देयीचे सेवेकरी.. बुदवंत.. कारकी वेळार हाजीर जातले म्हरे चौकार? .. सांगलां म्हरे सारकें तेंकां?

गुरव : हय सांगलां. वर्साचो वेळ चुकोवंक नाकात म्हण सांगलां सगळ्यांक.

रायरावत : वर्साच्या वेळार नाका रे. अंदूं सदचे परस बेगीनच येयात म्हण मात्शें कळय तेंकां. .. आनी हें पळय, वत फुटचे आदींच... वाजपाक धाड दिपमाळणीच्या घरा. हांवूय बेगीनच येतां. दिपमाळीण आयली म्हणटकच विडो दिवन, करया कार्याक बेगीन सुरवात...!

गुरव : कितें जालां राया? .. चिंतेस्त सो दिसता तूं? .. जिवाक बरें ना?

रायरावत : जिवाक कांय जालें ना रे.. पूण मनाक वगीच खाल्लेलेबशेन जाता. राती सवनरात न्हीद पडलीना.. मनांत कितें कितें विचार येवंक लागले.

गुरव : तेचें कितें जालां जाणा राया.. शालीच्या माथ्यार दिवज दवरूंक तुज्याय मनाक पटना!

ावत : खरें रे तुजें.. म्हाकाय चोर जाल्लेलेबशेन दिसता! कायदेशीर नासलें तरी म्हाज्याच रगताचें भुरगें न्ही रे तें! आपल्याच भुरग्याक अशें चार-चौगांत नाचोवपाचें म्हाज्या मनाक पटना रे. .. पूण कितें करूं? .. गांवचो मुखेली म्हुणून म्हाजी जबाबदारी आसा न्ही रे, तिका कसो नेगार वचूं?

गुरव : तूं तरी कितें करतलो राया? तुमच्याच जाण्टेल्यांनी हो कुकमापूर गांव वसणावळीक हाडलो न्हूं? ... तेणीच केल्ल्यो न्हूं ह्यो चाली-रिती? तुका त्यो मुखार व्हरच्योच पडटल्यो! .. पोटांतली माया आटोवंक गेल्यार... कर्तव्याक चुकता ! (त्याच वेळार बाबलो धुप्प करून थंय उबो जाता)

बाबलो : आपली मायाच आटोवंक लावपी हें कसलें कर्तव्य आपा?

रायरावत : कोण? बाबलो ! ... कितें जालें रे? कित्याक येयलेलो येद्या तिळसांजेचो!

गुरव : कितेंय जाय आसतलें तेका ... कितेंय सामान बी...

रायरावत : हय रे बाबल्या? कितें जाये तुका?

बाबलो : हय, जायें आपा. म्हाका तुजेकडल्यान एक उतर जायें. तुजो बापायपणाचो फाटीर हात जायो!

रायरावत : तो आसाच म्हरे. हांव केन्ना नेगार गेला? म्हाज्यान शक्य आसा तें बायले-भुरग्यांक बुसून कळनासतना केलां हांव तुमचेखातीर.

बाबलो : ना आपा, तुयें आमचेखातीर कांयच केलें ना.

रायरावत : अशें कशें म्हण्टा बाबल्या? ... तुमकां वर्साक पोटाक जाय तो तांदूळ-गोटो धाडून दिता म्हरे हांव!

बाबलो : पोटाक कोणूय दिता आपा! .. आमी वाटेवयल्या भिकाऱ्याचे वांटलेंतय पेज घालतात!

रायरावत : मागीर कितें करूंक जाय आसलेलें हांवें तुमचेखातीर?

बाबलो : तुजें नांव दिवंक जाय आसलेलें आपा तुवें आमकां, आमचो बापूय म्हुणून....

रायरावत : कितें?????

गुरव : कितें उलयता रे बाबल्या तूं? तुजी आवय कितें रायाच्या लग्नाची

बायल रे, तुमकां नांव दिवंक?

(रायरावत तेका हातीनच खुणो करून उलोवपाचें आडायता)

बाबलो : जाणा आपा, तूं आमचो बापूय आसतना, लोक आमकां बापूय नासलेलीं भुरगीं म्हुणून म्हाका आनी शालीक जेन्ना बोटां दाखयतात, तेन्ना कितकें दूख्ख जाता तें !

रायरावत : वोगी राव बाबल्या.... वोगी राव! आरे नांव दिलें ना म्हुणून हांवें केन्ना दोन केल्यांत रे तुमच्या दोगांमदीं आनी माझ्या लता-व्यंकटेशामदीं! म्हाजीं भुरग्यांच मानल्यात म्हरे तुमकां हावें!

बाबलो : तशें जाल्यार आपा, फाल्यां शालीन... तुजे धुयेन... जात्रेक नाचपाचें आसा तें बंद कर! आमच्या घराण्यान देयीमुखार नाचूंकच जाय तर तेचेबदला हांव नाचता!

रायरावत : तें हांव करूंक शकना रे बाबा, तें सोडून तूं म्हजेकडेन दुसरें जाय तें माग!

बाबलो : ना आपा, म्हाका तुजें दुसरें कांयच नाका. म्हाका जाय तें फकत एकूच, ते म्हटल्यार शालीन जात्रेंत लोकांमुखार नाचूंक जायना!

रायरावत : हें पळय बाबल्या, शालीक आमी लोकांमुखार नाचूंक सांगनात, तेका देवीमुखार नाचूंक सांगतात.

गुरव : आनी तशें नाचलें म्हुणोन वायट कांयच ना रे पोरा. ती पुर्वापार चलत आयिल्ली रीत म्हरे ह्या गांवची! ... ह्या... ह्या गांवची संस्कृताय!

बाबलो : संस्कृताय? ... बायलांची विटंबणा करपी ही कसली संस्कृताय? ... तूं जाणा आपा? ... जात्रेदिसा आईन दिपमाळ माथ्यार घेतली आनी नाचत नाचत ती देवळाचे भोंवताडे काडूंक लागली म्हण्टकच जात्रेक येयलेले दादले-चेडे तिका पळोवंक कश्यो घिट्टयो घालताले ते? ते सगळे जात्रेक देयीभेटेखातीर येयलेले नासताले, ते आईकच पळोवंक येयलेले आसताले! तेंच्या सगळ्यांच्यो नदरो आईच्या आंगाक दसलेल्यो आसताल्यो.. ते तिका पळोवन पोजडीं पोजडीं उतरां उलयताले आनी फिदी फिदी हांसताले.... जात्रेंत सगळे बुदवंत ... मानकरी.... जाणकार आसताले.... ते सगळे हें मुकाट्यांनी पळयताले.... आनी कानार हात दवरताले.... आनी... आनी आपा

तूंवय तेमदीं एक आसतालो .... तूंवय आईची विटंबणा उगड्या दोळ्यांनी पळयतालो.

रायरावत : बाबल्या ऽऽऽ!

बाबलो : हेकाच.. हेकाच जर तुमी ह्या गांवची संस्कृताय म्हण्टात... तर उजो लागूं असले संस्कृतायेक!

रायरावत : बाबल्या ऽ ऽ ऽ ! तोंड सांबाळून उलय! ... हो रायरावत.. ह्या गांवचो मुखेली जितो आसतना, गांवच्यो जायण्यो करपाचो अधिकार तुका भुरग्याक कोणें दिल्लो ना!

बाबलो : शालीच्या... म्हाजे फाटीक फाट मारून आयलेले भयणीच्या ... म्हाजे परस ल्हान भुरग्याच्या फुडाराकडेन जर तुमी जाण्टे खेळटात तर ते विशीं विचारपाचो म्हाका अधिकार ना कसो आपा?

रायरावत : हें पळय बाबल्या.... तुजें म्हणणें पट्टा म्हाका, पूण हांव कांयच करूंक शकना. शालीन अंदूच्यान दिपमाळ नाचोवची हें हायें एकट्यान थारायलेलें ना, तें धा जाणांनी थारायलां. गांवच्या बुदवंतांनी थारायलां.

गुरव : तेणींय म्हुणोन गांवच्या बऱ्याखातीरच थारायलां न्हूं. गांव भरभराटीक येतलो तर गांवचें देव-देवस्पण, सगळ्यो भोगावळी वेवस्थीत जावंक जायो न्हूं?

रायरावत : शाली आनी तूं दोगांय म्हाजींच भुरग्यां रे! तुमचें दोगांचें बरें जावचें अशें म्हाकाय काळजांतल्यान दिसता. पूण म्हाजे हात-पांय बांदलेले आसात रे... म्हाजेर गांवची जबाबदारी आसा.. आज एकट्याखातीर रीत मोडली.. फाल्यां दुसऱ्याखातीर ... परां तिसऱ्याखातीर, मागीर एका दिसा गांवचें गांवपणच शेणटलें! ... पाड पडटलें आख्ख्या गांवचें!

बाबलो : पडूं! असल्या गांवचें पाडच पडूं!

रायरावत : बाबल्या ऽ ऽ! येदोसो वेंतभर पोर तूं आनी गांवचें पाड घालपाची भाशा उलयता? ...चल, लाग चलूंक हांगाचो!

बाबलो : वयतां ! वयतां हांव आपा ! पूण एक सांगून वयता ! म्हाजो जीव आसासर हांव शालीक जात्रेक कसोच नाचूंक दिवंचो ना, म्हणजे ना! (तीर कसो धांवत भायर सरून वता. रायरावत आनी गुरव दोगय

ताका पळयतच उरतात. त्याच वेळार पार्श्वसंगीताचे सूर कानार पडटात.)

**हे फुर्डे ना नाचची दिपमाळ**
**खंडीत करीन रे पाडी चाल**
**थांबयन रे ही नश्टी वयवाट**
**घेता आज कुकमादेवीची आण!**

(देखाव सोंपता)

## देखाव : 3

(यमनेआकालें घर. वेळ सकाळची. जात्रेचें वातावरण सुचीत करपी संगीत. देखाव सुरू जाता तेन्ना कांय बायलो हांसत – खिदळत येतात आनी पडवेवेल्यान भितर घरांत वतात. कांय वेळ स्टेजीर कोणूच नासता. थोड्यावेळान व्हंकल कशी न्हेशिल्लें शाली आपल्याकच तोखेत भायर येता.)

शाली : ये ऽ ऽ इश्णू ... ये ऽ ऽ कुश्टा .. बेगीन येयात रे हांगा. पळय हांव साडी न्हेसलां. (इश्णू – कुश्ट पें पें करून जात्रेचीं पेंपारी वाजयत धांवत येतात.)

इश्णू : येयले, येयले गो शाली आमी !

कुश्ट : कितें जालें गो शाली?

शाली : आरे, हें पळयात, हांव आज साडी न्हेसलां. भांगरा देगेची!

इश्णू : आवयस् खरेंच म्हुगो शाली.

कुश्ट : तूं साडी न्हेसलां म्हुगो शाली, आमकां पळय दादान दोगांयकय जात्रेचीं पेपारीं घेवन दिल्यांत.. आमी सकाळीं गेल्ले दादाबराबर देवळाडेन.

शाली : तुज्या पेंपाऱ्यांचें मागीर सांग रे. म्हाजें भांगर पळयलां तुयें! हीं कांकणां... हार.. भांगतिळो .. मुदी.. पांयजणां...

इश्णू : कोणें हाडलें गो तुका शाली इतकें भांगर?

शाली : आरे हें सगळें देयीलें. ही साडी... हें भांगर ... गुरवकाकान हाडून दिलां तें काल सांजेचें. जात्रेक घालपाचें आनी मागीर व्हरून दिवपाचें खंय परत!

इश्णू : अशें!

शाली : आनी जाणा रे तुमी? गुरवकाकान म्हाका काल फराळाचें सामानय हाडून दिलां.... आपान धाडलां खंय तें! केळीं...चिकू... आडसरां!... आज हायें दिसभर जेवंक बी जायना खंय रे. तीं फळांच खावन रावपाचें.

कुश्ट : मजा बाये तुजी शाली.

शाली : ही कसली मजा कुश्टा? आरे, खरेली मजा आनीक थोड्या वेळान जातली. आतां रोकडेंच खंय आमगेल्या घराकडेन वाजप येतलें आनी म्हाका वाजयत – गाजयत देवळाकडेन घेवन वयतलें.

इश्णू/कुश्ट : आवयस्, खरेंच गो!

शाली : हय रे, खरेंच. म्हाज्या दोन दोळ्यांच्यान तर!

कुश्ट : तुका देवळाकडेन घेवन वयतगेर कितें जातलें गो शाली?

शाली : आरे, थंय खंय गुरवकाका म्हाज्या माथ्यार पेटलेली दिपमाळ चडयतलो. मागीर जात्रा सुरू जातली. हांव ल्हान म्हुणून खंय अंदू म्हाजेखातीर दिपमाळय सामकी ल्हान करून घेतल्या खंय आपान.

इश्णू : ल्हान म्हटल्यार केदी गो?

शाली : तें म्हाका खबर ना. म्हाका देवळाकडेन वयतकच कळटलें. जाणां तूं इश्णू... कुश्टा .. आज खंय गांवचे सगळे लोक आनी जात्रेक येतात तितलेय जात्राकार हायें दिपमाळ माथ्यार घेतकच म्हाज्या पांयां पडटले! ... येदो व्हडलो आपा बुसून! मागीर हायें नाचत नाचत देवळाचे पांच भोंवताडे काडपाचे .. हांव सगळ्यांत मुखार! म्हाजे फाटल्यान सगळे ! केदी मज्जा न्ही!

इश्णू : हय बाये, तुजी सामकी मज्जा!

शाली : पूण तुमी येतले म्हरे पळोवपाक?

इश्णू : येतलो गो. पूण तूं आसतलें सगळ्यांत मुखार, व्हड – व्हडांमदीं! ... आमी उरतले फाटल्यान. ते गर्देंत आमकां कितें दिसूंक येयलां?

शाली : तुमी कांय भिनाकात रे. हांव आकाक सांगूंक लायता आपाक, तुमकां दोगांयकय म्हाजेबरोबर मुखार घे म्हुणोन.

यमनें : (घरांतल्यान पडवेर येत) ये शाली... शाली! खंय गेलें गो? आं, हांगा आसा. आगो, बाये बेगीन भितर यो. कितेंय इल्लो फराळ खावन घे. तुका व्हरूंक वाजप येवंचें जालें. एकदां माथ्यार दिवज दवरतकच कांयच खावंक मेळचेंना तुका. (वचूंक वता, शाली ताका आडायता.)

शाली : आ...का!

यमनें : कितें गो पोरा?

शाली : तुका... तुका एक कितें सांगपाक जायें!

यमनें : आज आनी तूं म्हाका कांयच सांगनाका. म्हाजी तकली आज कशीच चलना! ...आज काळजाक एक धुयेची याद... दुसरी तुजी चिंता...

शाली : तुका कसले त्रास दिवपाचें काम न्ही गो आका!

यमनें : मागीर कसलें काम तर?

शाली : आका, आपाक सांगोन ह्या इश्णूक आनी कुश्टाक जात्रेंत म्हाज्या कुशीक उबें रावपाक दी हां...

यमनें : कितें?

इश्णू : हय गो आका. जात्रेंत आमकां शालीकुशीक उबें रावपाक जायें. न्ही रे कुश्टा?

कुश्ट : हय गो, जायें गो आका.

शाली : आका, आपाक सांग, हे म्हाजे वांगडी म्हुणोन... म्हाज्या खेळांतल्या लग्नांतले न्हवरे! ते म्हाका जात्रेंत वांगडा जाये!

जमनें : सांगतां गो बाये, सांगतां! तुज्या नशीबांत आतां खेळांतलेंच लग्न उरलें आनी खेळांतलेच न्हवरे!

शाली : कितें जालें आका? ...कित्याक रडटा तूं?

यमनें : जालां म्हाजें कर्म बाये! आसूं. चोरून व्हरतकच आतां दार धांपून कांयच फायदो ना! चल, यो भितर. कितेंय खावन घे. (कुश्टाक - इश्णूक) तुमीय चलात रे आतां घरा. वाजप येतकच न्हेसून - बिसून येयात.

(ल्हव ल्हव पावलां घालीत घरांत वता. फाटोफाट शाली वता. ताच्या फाटल्यान इश्णू-कुश्ट वतात. पार्श्वगीत सुरू जाता.)

**आतां खेळांतलें लग्न**
**आनी खेळांतले न्हवरे,**
**अब्रूचे जातले धिंदवडे**
**पिश्या पोराक सांगचें कोणें?**



(गीत सोंपता सोंपता शाली एक केळें खायत भायर येता. )

शाली : आवयस्! आयज हांव कितलें सुंदर दिसता! सामकी देवळांत बसलेली कुकमादेवीच कशी! ... आज आई आसलेली जाल्यार म्हाका पळोवन तिका कितकी उमेद जाता आसलेली!
(आईचे यादीन शालीक रडूंक येता)
आईऽऽ ! आईऽऽ ! तूं खंय आसा गे? म्हाका पळोवंक येना गे? हें पळय, तुजें बाय, तुजें अपुरबायेचें शाली आज कशें व्हंकल कशें दिसता पळय गे (दोनय हातांनी तोंड धांपून, व्हडल्या व्हडल्यान हुंडकेता. तेन्नाच आई उबी राविल्ल्याचो शालीक भास जाता.) कोण? आई ऽ! आई, येयली तूं? देवान धाडली गे तुका! आई ... आई हांव कशें दिसता गे आज? हें पळय कितकें भांगर घातलां पळय हायें.... साडी न्हेसलां पळय जरी देगेची! ...सारकी तूं न्हेसताली तसलीच! ...हय, न्ही गे आई? कितें जालें गे आई? तूं आज उलयना कित्याक? आई रागार गे म्हाजेर? ... म्हाजें कितें चुकलें गे आई? ... उलय गे आई! ...सांग म्हगे म्हाका ! आई ऽऽ ! आई ऽऽ खंय वयता गे? राव म्हगे आई! (आईची आकृती अदृश्य जावंक लागता, शाली तिच्या फाटल्यान वचूंक लागता. आतां आकृती दिसना, तशें शाली मोठ्यान रडटा. तेन्नाच भायल्यान बाबलो येता. रडटल्या शालीक पळोवन भिता.)

बाबलो : शाली ऽऽ, शाली ऽऽ कितें जालें बाय? कित्याक रडटा तूं?

शाली : भाऊ ऽ ऽ!

बाबलो : बाय कोणें कितें केलें तुका?

शाली : भाऊ ऽ ऽ रे !

बाबलो : शाली ऽ ऽ, म्हाज्या गुण्या भयणी. तूं तूं अशें रडटा तें म्हाज्यान पळोवंक जायना गो. ... सांग म्हाका बेगीन, तुका कोणें कितें केलें तें.

शाली : म्हाका कोणें कांय केलें ना रे!

बाबलो : मागीर.. तूं दिपमाळ नाचोवची पडटा म्हण रडटा म्हुगो? ... हांव

जाणा शाली, तूं तेचखातीर रडटा म्हुणोन. पूण तूं भिनाका. हो तुजो भाव जितो आसतना, तुज्या माथ्यार ती कोणूच दवरूंक शकचोना!

शाली : ना रे भाऊ, हांव तेखातीर रडना रे!

बाबलो : मागीर कित्याखातीर रडटा?

शाली : भाऊ, आई येयलेली रे हांगा, पूण म्हाजेकडेन कांयच उलयनासतना गेली.

बाबलो : आई ? ? .. ती येयलेली हांगा??

शाली : हय रे. खरेंच येयलेली रे हांगा. तूं येवंचे कांय वेळ पयलीं.

बाबलो : वोगी.. वोगी गो शाली. रडनाका. आगो आमगेली आई देवागेर गेल्या न्ही गो. .. तिका आतां येवंक मेळना हांगा.

शाली : पूण ती खरेंच येयलेली रे भाऊ !

बाबलो : शाली, तुजेर जीव आसलेलो न्ही गो तिचो, म्हुणोन तुयें याद काडटाच ती तुज्या दोळ्यांमुखार दिसल्या आसतली.

शाली : ना रे भाऊ, ती खरेलीच हांगा येयलेली रे!

बाबलो : बरें, बरें. तूं सांगता जाल्यार ती येयलेली आसतली. (इतक्यांत वाजपाचो आवाज कानार पडटा, तशी ताका याद जाता) आरे देवा, देवळाकडेन वाजपां वाजूंक लागलीं. आतां थोड्याच वेळान वाजप घराडेन पावतलें आनी शालीक घेवन वयतलें... मागीर थंय शालीच्या माथ्यार ... ! शी! कितें करपाचें तें येन्नाच करूंक जायें, ते लोक एकदां हांगा पावल्यार घात जातलो सगलो! (घरांत भितर बागोवन) आका खंय आसा? आं, देवाकुडींत आसा आसतलें! बायलो येयल्यात त्यो बसल्यात दिसता भितर कसलीं शास्त्रां करीत! ...बरें जालें. भायर कोण नासतनाच हायें म्हाजें काम केल्यार बरें. (कितें तरी येवजून, मोवाळ आवाजांत शालीक उलो करता) शाली ऽऽ ये शाली ऽऽ!!!

शाली : कितें रे भाऊ?

बाबलो : आवयस्! आज तूं सामकी व्हंकल कशी दिसता म्हुगो! म्हाजें येदवेळच्यान लक्षच गेलें ना.

शाली : भाऊ ऽऽ, ये चाळयनाका हां म्हाका, पयलींच सांगता! आकाक सांगतलें हांव!

बाबलो : चाळयना गो तुका हांव... पूण तूं खऱ्यांनीच खरेली व्हंकल कशी दिसता आज.

शाली : खऱ्यांनीच! सोपूद घे पळोवया.

बाबलो : देवाच्यान तर! .. म्हाज्या दोन दोळ्यांच्यान तर!

शाली : बरें, बरें. तूं सांगता तें खरें मानता हांव.

बाबलो : आतां वाजप येतकीच तूं रोकडेंच देवळाकडेन वयतलें म्हुगो?

शाली : आं? हय.

बाबलो : बरें. तूं देवाक पांयां पडलें घरच्या?

शाली : हय, न्हेसून जातकच आकान म्हाका पयलीं देवाक आनी मागीर सगळ्या बायलांक पांयां पडूंक लायलें.

बाबलो : तूं आकाक पांयां पडलें?

शाली : हय, पडलें हांव आकाच्या पांयां. आतां तूं एकटोच उरला पांयां पडपाचो. भाऊ, तुका पांयां पडटा रे हांव! (बाबलो पांय पडून घेना, फाटीं सरता)

बाबलो : म्हाजें बरें आसा, तें मागीर पडूंक जाता गो. पूण तूं एक सांग? ....तूं आईक पांयां पडलें?

शाली : आईक? आई खंय आसा रे भाऊ? ती गेली म्हरे रोकडीच वदळ, म्हाजेकडेन उलयनासतना!

बाबलो : ती गेल्यार कितें जालें? तूंच सांगतालें न्ही गो, आई वयर रावन आमी कितें करतात तें सगळें पळयता म्हुणोन? याद ना?

णाली : हय, याद आसा रे म्हाका.

बाबलो : मागीर? तुयें पांयां पडना जाल्यार कितकें वायट दिसतलें तिका!

शाली : हय तर, दिसतलेंच. एक फावट न्हूं, धा फावट दिसतलें! .. राव, पडटा हांव पांयां तिका... (मळबाक वयर पळोवन पांयां पडूंक वता)

बाबलो : हांगा पडटा? हांगा पडल्यार तिका कशें पावतलें? ती आसा थंय वयर सर्गांत! तिका पांय पडटलें जाल्यार, थंय दोंगुल्लेर, तिका

लासलेलें त्या जाग्यावयल्यानच पडोंक जायें.

शाली : अशें ?? मागीर कशें करपाचें तर आमी?

बाबलो : कशें म्हणजे? थंय वचपाचें आमी !

शाली : राव तर, आकाक सांगून येतां.

बाबलो : आकाक आनी कित्याक सांगों जायें गो? तें आसतलें देवाकुडींत, आईच्या शिराद्दाची तयारी करीत.. तेका करूनी आपलें काम! .. आमी येतलीं वचून सट्ट करून!

शाली : त्या इश्णू आनी कुश्टाक तरी आपोवया म्हरे आमचेबराबर भाऊ. (वाजप लागीं लागीं पाविल्ल्याचो आवाज येता.)

बाबलो : तेंकां नाका गो. तेंकां आपोवंक गेल्यार वेळ जातलो. ते थंय न्हेसतात आसतले जात्रेक वचूंक! (वाजपाचो सुगाव घेत) हीं पळय वाजपां पावलीं लागीं.. तीं घरांत पावचे पयलीं आमकां वचून येवंक जायें! चल, या.. या.

(बाबलो शालीचो हात धरून ताका जबरदस्तीन घेवन वता. तीं दोगांय दृश्टीआड जातात, तेन्नाच वाजंत्रां आनी हेर लवाजमो पडवेर येतात. पार्श्वगीत सुरू जाता.)

**आयलो भार, आयलो भार**
**मार शेंसार ! मार शेंसार!**
**कोणा काळाचो आयज रे अंवसर**
**मांडाक भल्ला थरथर ! मांडाक भल्ला थरथर!**

(देखाव सोंपता)

## देखाव : 4

(देवळाचो चौक. जात्रेदिसाची सकाळ. चौकार थोडे लोक जमल्यात. गुरव गर्भकुडींत भायर-भितर करता. थोड्यावेळान रायरावत चौकार येता.

रायरावत : गुरवा, जाली म्हरे तयारी?

गुरव : हय राया, जाली सगळी तयारी.

रायरावत : विड्याचे पयशे दवरले म्हरे ताटांत?

गुरव : हय राया दवरले.

रायरावत : दिपमाळणीक हाडूंक गेलें म्हरे वाजप?

गुरव : हय, वदळ गेलें. तुयें सांगलेलें न्ही, वत वयर सरचेपयलीं वाजप धाड म्हण तिच्या घरा? म्हुणोन बेगीनच धाडलें.

रायरावत : बरें केलें, बरें केलें. बुदवंत सगळे येयले म्हरे.
(बसलेल्या लोकांतले कांय जाण 'हय येयले, हय येयले' म्हण्टात)

बुदवंत-१ : चार बुदवंत पावले राया, पांचवोच उरला!

बुदवंत-२ : येतलो तो दिपमाळण पावता म्हणसर, अंदू इल्लें बेगीनच सुरू केलां न्ही!

रायरावत : आं, हय, हय.
(इतल्यांत पांचवो बुदवंत येता)

बुदवंत-३ : येतलो म्हण तोंडांतलें उतर सोंपचे आदीं येयलो म्हरे! मेल्ल्याक शंभर वर्सां आविश्य! कस्सोच मरना!

बुदवंत -4 : ये ऽऽ, तेचे आविश्य वयर काडनाकात रे! तेका जगोंनी कितकीं वर्सां जगता तो; कितें खावंक तें!
(सगळे जाण हासूंक लागतात. हांसतां हांसतां रायरावताच्या तोंडावेली चिंत्ता पळोवन वोगी जातात)

बुदवंत-2 : ये ऽ ऽ आसूं रे, बोवाळ नाका. राया आज चिंतेस्त आसा.

बुदवंत-1 : राया, तूं कांयच हुस्को करनाका, ती भितर बसलेली मायाच करून घेतली आपलें सगळें कार्य!

रायरावत : मनांत बेश्टोच धुगधुगो जाला रे पांडूदाद! ...तेतूंत उठल्या बरोबर साकून दावो दोळो पिटपिट्टा!

बुदवंत -1 : तसल्या शिनालाचें आतां चड घेवन बसपाचें ना रे. तकलेर ताण पडलो म्हणटकच दोळ्यांची शीर वोडटा ती. तूं वोगीच राव पळोवया. सगळें बरे तरेन जातलें. आतां गेलां न्ही दिपमाळणीक हाडूंक वाजप. ती येयली म्हणटकच फट्ट करून करपाचीं सगळीं शास्त्रां!

रायरावत : हय, शास्त्रां करपाचीं तें बरें आसा रे! ... पूण दिपमाळण खंय पावली?.. आजून आयलीच ना म्हरे ती! .. गुरवा, कितलो वेळ जालो रे वाजपाक यमन्यागेर गेल्यार?

गुरव : आं! हय.. हय.. खरेंच राया... बरोच वेळ जालो तेंकां गेल्यार! वरभर तरी जावन वयतलें!

रायरावत : वरभर? .. वरभर कित्याक रे? यमन्याचें घर एका उल्याचे वाटेक आसा म्हरे?

(सगळे जाण फुतू फुतू करतात. एकटो उठून दाराकडेन वचून पळयता)

रायरावत : येसल्या ऽऽ! (एक तरणाटो उठून उबो रावता) आरे, सट्ट करून वच मुखार आनी पळय रे तेंकां कित्याक वेळ जालो तो! .. आनी हें पळय, तूं यो सट्ट करून परत, नातर तूंच्च घुस्पवशी थंय!

(तो तरणाटो वचूंक वता, इतक्यांत इठ्ठल हातांत शेनाय घेवन धांवत -खर्शेत येता. तेच्या फाटोफाट काळगो, गळ्यांत धोल घालून. फाटल्यान आनीक लोक येतात, तेमदीं इश्णू-कुश्टय लुडबुडटात)

इठ्ठल : राया... राया.. घात जालो रे राया !

रायरावत : घात जालो?? कसलो घात जालो? .. कोणाक कितें जालें?

(लोकय सगळे भितात)

इठ्ठल : राया.. राया...

रायरावत : आरे, सांग रे बाबा कितें घडलां तें बेगीन? आनीक जीव वयर काडनाका म्हाजो.

इठ्ठल : राया... दिपमाळीण... शाली.. शाली.. ना राया घरांत !

रायरावत : घरांत ना? खंय गेलें तर तें?

गुरव : ह्या इठ्ठलाच्या चेड्यांबराबर खंयीय गेलें आसतलें तें राया! दिसभर तेंच्याच बराबर भोंवता तें!

इठ्ठल : ना राया, म्हाज्या पोराबराबर गेलें ना तें ! म्हाजे पोर पळय हांगा आसात!

रायरावत : तुज्या पोरांबरोबर गेलें ना? मागीर खंय गेलें तर तें? खंय रे तुजे चेडे? ... हांव विचारतां तेंकां !

इठ्ठल : इश्णू.. कुश्टा.. अशे फुडें येयात.. राया कितें इचारता तें सारकें सांगात पळोवया !

(इश्णू.. कुश्ट मात्से भित भितच रायरावता मुखार येतात)

रायरावत : पोरांनो... सारकें सांगात पळोवंया ... शाली खंय आसा तें ?

इश्णू : आमकां खऱ्यांनीच खबर ना, आमी आसलेले घराकडेन.

कुश्ट : वाजप येयले तशें आमी तेगेर गेले, जाल्यार तें घरांत ना म्हण सगळे जाण सोदतात.

रायरावत : खरेंच सांगता म्हरे तुमी?

इश्णू/कुश्ट : हय, हय. खऱ्यांनीच सांगतात.

इश्णू : ... आनी आमचें सांगणें फट थारल्यार तुमी आमकां जायो तो मार घालात!

बुदवंत-1 : तुमी शालीक निमाणें केन्ना पळयलेलें रे?

इश्णू : निमाणें.. निमाणें.. सकाळीं तेचें न्हेसून जातकच बाप्पा.

कुश्ट : तेणेंच आमकां उलो करून आपोवन व्हेल्लें, आपल्याली साडी - भांगर पळोवंक यो म्हुणोन ! न्ही रे इश्णू?

इश्णू : हय तर. मागीर आकाच म्हुणोंक लागलें, तुमी घरा वचात आनी वाजपां येतकच जात्रेचें न्हेसोन येयात म्हुणोन.

कुश्ट : तशे आमी घरा गेले आनी आका शालीक फराळ खावोंक म्हुणोन भितर घेवन गेलें.

रायरावत : बरें. बरें. तुमी चलात. हांव पळयतां कितें करपाचें तें! इठ्ठल, यमनेआका खंय आसा?

बुदवंत-2 : आरे, तेणेंच कितें करूंक ना म्हरे गोडबंगाल!

बुदवंत-3 : तेच्या मनांतच नासलेंच पयलीं, नातीक दिपमाळण करपाचें!

इठ्ठल : नारे बाबा.... तेका बाबड्याक कांयच खबर ना! तें सामकें अकांतला रे.. पिशें कशें हेवाटेन तेवाटेन नातीक उलो करीत भोंवता! (तेन्नाच अकांतिल्लें यमनें चौकार पावता)

यमनें : शाली ऽ ऽ! शाली ऽ ऽ गो म्हाज्या.. म्हाज्या पोरा गो! खंय आसा गो तूं? ओ म्हण गो! (रायरावताक पळोवन सामकेंच तेच्या पांयांर उडी घेता) म्हाजें पोर, म्हाज्या शांतुलाच्या काळजाचो कुडको खंयच ना म्हरे राया !

रायरावत : आका... आका.. अशें कितें करता तूं? आसतलें तें खंयीय! सोदया तेका सारकें !

यमनें : ना रे पुता, खंयच ना तें ! सगळ्याक सोदलें तेका हायें ! हळदिच्या आंगाचें आसा पोर म्हाजें... खंयीय म्हारवाच्या बी चाळ्याक पडलां काय देवच जाणा !

रायरावत : धीर धर, धीर धर आका मात्सो !

यमनें : कसो धीर धरूं हांव राया ! कुकमादेवते तूंच राख गे म्हाज्या पोराक! धुये फाटल्यान दोनय पोरांक कोंबये पिलां कशीं पोटापोंदाक धरून वाडयलीं गे हायें ! आतां खंय गेलीं गे म्हार्जी दोनय पोरां?

रायरावत : दोनय पोरां?? दोनय पोरां?? ...आका तुर्जी दोनय नातरां नात घरा?

यमने : हय रे राया. दोगांय नात.

गुरव : कितें सांगता गो आका? शाली आनी बाबलो दोगांय नात !

यमनें : हय रे, हय.

रायरावत : गुरवा.. आनीक कांयच चिंतपाचें ना. हें बाबल्याचेंच काम ! तेणेंच खंयी तरी लिपोन दवरलां तेका. म्हाका भंयच आसलेली तो कितें पूण कारस्थान करतलो म्हुणून.

गुरव : तुजें सारकें राया! .. तो पयर धमकी दिवन गेल्लो न्हूं, भयणीक कसोच जात्रेक नाचूंक दिवंचो ना म्हुणोन. शेर्त ! तेणें कितेंय पुणोन चिकान केलां !

रायरावत : चला वचात रे चौकावयले एक एकटे आनी धुंदाळून काडात आख्खो

गांव ! ... सोदून काडात त्या बाबल्याक पयलीं. मागीर विचारात तेका शालीक खंय लिपोवन दवरलां तें !
(रायरावत रागान सामको तांबडो जाता. चौकावयले एक एक करून दादले उठूंक लागतात. त्याच वेळार बाबलो येता. ताचे फाटकुळेचेर शाली आसा. तें वळवळटा.)

बाबलो : म्हाका कोणें खंयच सोदपाची गरज ना आपा. हो पळय हांवूच आयलों .. आनी शालीकय हाडलां हायें ! (फाटीवेलें शालीक काडून सकल दवरता. सगळे अजापान पळयतात.)

शाली : आका गो .. आका ऽ ऽ !

यमनें : कितें जालें.. कितें जालें? .. बाबल्या.. बाबू कितें जालें रे पोराक म्हाज्या !

शाली : पांये मोडले गो आका म्हाजे...!

यमनें : पांये मोडले?? .. कशे गो पोरा?

रायरावत : पांये मोडले ? (फुडें सरून शालीक नियाळटा. सगळो लोक थक्क जावन पळयतात) कशे मोडले तुजे पांये शाली? कोणें मोडले? (इश्णू – कुश्ट धांवत शाली म्हऱ्यांत वतात)

इश्णू : शाली ऽ ऽ शाली कितें जालो गो तुका?

कुश्ट : कोणें मोडले गो तुजे पांये ! आवयस् रगत येता म्हुगो पांयांतल्यान!

शाली : इश्णू...कुश्टा.. म्हाजे पांये मोडले रे! ... आतां हांव तुमचेबराबर कशें खेळटलें रे?

यमनें : दाखय गो पोरा तुजे पांये ! आवयस् ! हें कितें? (पांयाक हात लायता तशें शाली किंळची मारता) राव गो पोरा, सारकें पळोवया.. देयी गे म्हाजे.. दोनय पांयांचीं हाडां मोडलीं म्हगे म्हाज्या पोराचीं!

गुरव : पांयांचीं हाडां मोडलीं? हें आनी कितें इपरीत?

इठ्ठल : कितें सांगता गो तूं आका? ...पांयांचीं हाडां मोडलीं?

यमनें : हय रे इठ्ठल, हय. दोनय पांये मोडल्यांत रे म्हाज्या पोराचे! .. कोण गो बाये हो काळ? कोणें घातलो तुजेर घालो?

शाली : ह्या.. ह्या भावड्यान गो आका.. ह्या भावड्यान पांये मोडले म्हाजे!

रायरावत : कितें... बाबल्यान पांये मोडले? ... बाबल्या.. बाबल्या शाली

सांगता तें खरें?

बाबलो : हय, एक फावटच न्हूं, शंभर फावट खरें!

यमनें : आरे दुस्माना.... कसो जल्माचो वैरी जालो रे तूं म्हाज्या पोराचो! तुज्या फाटीक फाट मारून येयलेली भयण म्हरे तुजी ती!

बाबलो : हय, फाटीक फाट लावन येयलेली म्हाजी भयणूच म्हुणून म्हाका हें सगळें करचें पडलें. तूं जाणा आका.. ह्या .. ह्या म्हाज्या हातांनी हायें शालीचे पांये मोडले! आनी जाणा ते कशे मोडले ते! ...आईक पांयां पडूंक या म्हुणोन तेका फटोवन मसणवटेर व्हेलें आनी थंय.. थंय.. दोनय हातांत दांडो धरून, गोरवांक बडोवंचें तशे तेचे पांये धोडायले !

यमनें : नाका !... बाबल्या .. फुडें सांगूं नाका!

गुरव : काळीज कशें कांयच जालेंना रे तुजें?

बाबलो : जालें ना? ...गुरवकाका, तूं नकळ. शालीचेर दांडे मारतना म्हाजे काळीज कशें फुट्टालें तें ! दांडो तेच्या पांयांचेर पडटालो आनी मार म्हाज्या काळजाक लागतालो ! ...रगत तेच्या पांयाक येतालें आनी .. आनी घायो म्हाज्या काळजाक जातालो ! दिसता, हे... हे म्हाजे हात तोडूनच वडोवंचे. (हात ढब्ब ढब्ब करून जमनीर आपटिता)

बुदवंत-1 : इतको भयणीचेर जीव आसा तर पांये कित्याक मोडले रे तुयें तेचे?

बाबलो : तेच्या बऱ्याखातीर !

बुदवंत-1 : शालीच्या बऱ्याखातीर?

बाबलो : हय, तेच्याच बऱ्याखातीर !

रायरावत : (रागान बाबल्याच्या तोंडाचेर ठा ठा करून दोन-तीन थापटां फुलयता) भयणीच्या बऱ्याखातीर म्हण सांगता? .. आरे विघ्नाट्या, भयणीक पांगूळ करून तेचें कितें बरें सादलें रे तुयें?

बाबलो : मार आपा, मार! आज तुयें म्हाका थापटांनीय न्हूं, लाथांनीय मारल्यार जाता! म्हाका तेचें मात पूण दुखख ना! ...आज म्हाका सूख आसा, हायें म्हाजे भयणीक जात्रेंत नाचपाचें बंद केलें तेचें!

बुदवंत-1 : कितें?... नाचपाचें बंद केलें?

बुदवंत-2/3 : कितें?? शाली नाचचें ना आतां ! आज जात्रा जावंचीना?

बाबलो : ना ! शाली आज नाचचें ना. आजूच न्हूं, तें सदांखातीर नाचूंक पावचेंना ! तेच्या दोनय पांयांचो चुरो जाला.. तो घडोवन तेका उबें केल्यारय तेच्यान आतां माथ्यार दिपमाळ घेवन कशेंच नाचपाक जावपाचें ना! ... अंदूंचे जात्रेक तर नाच्च ना! शाली.. शाली म्हजेर रागार जावंनाका गो.. हायें हें सगळें तुज्याच बऱ्याखातीर केलां.

शाली : आका.. म्हाजे पांये आतां केन्नाच बरे जावंचेना गो ? .. हांव आतां केन्नाच पांयांनी चलूंक शकचेंना गो?

बाबलो : शाली... शाली... तूं कांयच भिनाका. हांव करतलो तुजे पांय कशेय करून बरे! ... तुका शारांत घेवन वतलों हांव व्हडल्या दोतोराकडेन... तो करतलो तुजे पांय बरे. ... तूं चलूंक शकतलें गो परत... पूण... पूण तूं नाचूंक मात केन्नाच शकपाचेर ना! ... आनी म्हाका तेंच जायें!

बुदवंत-4 : मोठो सुबेज म्हरे हो पोर ! गांवच्या देव-देवस्पणा आड येयलो!

बुदवंत-3 : न्हूं आनीक? बुदवंतांच्या बुदवंतपणावयर चडलो तो !

बुदवंत-2 : धरात रे तेका, बडयात !

(दोग - चौग जाण तेका धरून बडयतात. तो तेंच्या हातांक नेट दिवन सुट्टा)

बाबलो : तुमी कसले बुदवंत रे ! तुमच्या दोळ्यांहुजरां, तुमच्या धुवांची विटंबणा जाता आनी तुमी वयवाट.. वयवाट म्हुणोन ती सगळी उगड्या दोळ्यांनी पळयतात? तुमी कितें थारायतले रे गांवचो फुडार! तो .. तो थारावपाक बाबलोच जल्माक येवंचो पडटलो ! ... आज बाबल्यानच थारायला ह्या गांवचो फुडार !

रायरावत : बाबल्या ऽऽ !

बाबलो : हय आपा.... हायेंच थारायला ह्या गांवचो फुडार ! .. ह्या गांवाक, या कुकमापूर गांवाक आतां हे फुडें दिपमाळीण ना ! ह्या गांवांत आतां आमच्या घराण्याची खंयचीच बायल दिपमाळ नाचोवची ना ! अंदूं शाली नाचलें ना जाल्यार, परंपरा खंडीत जातली.. आनी एकदां ती जाल्यार मुखार ती चालू करूंक देयी उतर दिना खंय ! बरें

जालें.. दिपमाळ सासणाची घट जाली ! ... आपा .. आपा हायें म्हाजें उतर खरें केलें.... आतां तूं तुजें कर! तूं गांवचो मुखेली म्हरे... गांवचें देव-देवस्पण करून घेवपाची जबाबदारी तुजी म्हरे? ... आतां नाचय दिपमाळ कशी नाचयता ती .. करून घे जात्रा कशी करता ती ! (व्हड व्हडान पिशें लागिल्लेवरी हांसूंक लागता. तो हांसता तें पळोवन रायरावत माथ्यार हात घेवन जमनीर बसकण मारता) ये धोलकारा ऽऽ ! आंतां घाल रे डांगरो गांवभर ! ... पूण नाका ! तूं नाका ! तुवेंच तरी तो कित्याक घालपाक जाय? हांवूच घालतां ! (काळग्याच्या हातांतलो धोल घेवन आपूणच बडोवंक लागता)

**"ये ...कुकमापूर गांवच्या लोक-लोकांनो ऽऽऽ**
**आज अस्त जालो रे एके नश्टे चालीचो**
**आतां जातलो रे उंदेत नव्या सुर्याचो!"**

(तो व्हड व्हडान डांगरो घालीत चौकार नाचता आसतनाच, रायरावत उठ्ठा, येवजिल्लेबशेन करता आनी दिपमाळ उबारून माथ्यार घेवन चलूंक लागता. तेचे फाटोफाट गुरव आनी सगळी इलामत वता.)

(दुसरो अंक सोंपता)

**(नाटक सोंपता)**





शेंकडयांनी वर्साआदीं समाजाचे गरजेंतल्यान तरेकवार चाली-रिर्तीचो उदेव जालो आनी त्यो मुखार एके पिळ्गेंतल्यान दुसरे पिळ्गेमेरेन चलत रावल्यो. काळ बदलावांगडा ह्या चाली-रिर्तींतल्यो कितक्यो तरी कालबाह्य थारल्यो, मात श्रद्धा-अंधश्रद्धेच्या घुस्पागोंधळांत घुस्पल्ल्या समाजाक त्यो शेंवटून वडोवपाचें धाडस जालेंना. परंपरा, संस्कृताय, वयवाट, पुर्वजांलें दायज अशीं तरेकवार नांवां फुडें करून समाजाचे जाळवणदार तांचें समर्थन करीत रावले, तांकां सारें -उदक घालीत रावले आनी त्यो जळू कश्यो समाजाच्या मानगुटेक दसून तांचें रगत शोशीत रावल्यो.

शोशणाच्या ह्या चक्रव्युहांत सगळ्यांत मोठो बळी गेलो तो बायलमनशेचो. जननी, आदिमाता, म्हामाया ......अशीं तरेकवार बिरूदां लावन समाजान तिका देवत्वाचो पाट दिलो आनी एकेवटेन तिच्या सीशक्तीचो उदो उदो केलो,तर दुसरेवटेन, तिची भोगदासी म्हण तरांतरांनी अवेहलना केली. तिच्या शिलाची विटंबणा केली आनी तिच्या मातृत्वाचो अपमानय केलो.

बायलमनशेच्या ह्या शोशणाचो अंत करपी आनी तिका तिचो आत्मसन्मान मेळोवन दिवपी ही नाट्यकृती. हातूंत बाबलो हो एक नेण्टो भुरगो आसुनय नव्या युगाचो प्रतिनिधी जावन समाजामुखार उबो रावता आनी क्रांतीकारी विचारांची मशाल पेटयता. ह्या मशालीच्या उजवाडांत बुरशेल्ल्या-पाड्या परंपरांचो अंत जाता आनी नव्या विचारांची फांतोड उजवाडटा.

